

विलासराव देशमुख
मुख्यमंत्री

## २६ जानेवारी २०००

# लोकशाही आघाडी शासन

*तुमचे स्वतःचे शासन!*



छगन भुजबळ
उप मुख्यमंत्री

# हार्दिक शुभेच्छा!

राज्य घटनेची ५० वर्षे

शासनाचे १०० दिवस

## निश्चित दिशा - ठोस कार्यक्रम

प्रत्येक जिल्ह्यासाठी १०० नवीन जलसंधारण कामे व ३० कि. मी लांबीचे डांबरी रस्ते ● २५,००० नवीन पंपसंचांना वीज पुरवठा त्यासाठी आदिवासी, दलित तसेच दशलक्ष विहीर योजनेतील लाभार्थ्यांना प्राधान्य ● १०,००० मागासवर्गीय कुटुंबियांच्या घरांसाठी वीज पुरवठा ● ग्रामीण भागात मंडळ मुख्यालयात ग्राम सचिवालय-गावस्तरावरील सर्व कर्मचारी एकाच ठिकाणी उपलब्ध ● १५,००० प्राथमिक शिक्षकांची 'शिक्षण सेवक' म्हणून मानधनावर भरती ● ग्रामीण भागात ३,००० नवीन शाळा खोल्या ● ४,५०० शाळांमध्ये मुलींसाठी स्वच्छता गृहे ● माध्यमिक शिक्षकांना संगणक प्रशिक्षण ● प्राथमिक शिक्षणाचा दर्जा उंचावण्यासाठी उपाय योजना ● जवाहर विहीर योजनेअंतर्गत जादा १,६५० विहिरी ● अनाथालयातील मुलींच्या लग्नासाठी १५,००० रुपयांचे अर्थसहाय्य ● स्वर्ण जयंती कार्यक्रमांतर्गत ९,९०० स्वयं-सहाय्यित गटांची स्थापना ● पोलीस दलाची पुनर्रचना ● शासकीय यंत्रणेचे उत्तरदायित्व वाढविण्यासाठी नागरिकांची सनद ●



महाराष्ट्र परिचय केंद्र-गोवा, माहिती व जनसंपर्क महासंचालनालयातर्फे प्रसृत

जाग
...र्स ◇ आंक ७ ◇ फेब्रुवारी २०००

...पादो : रवीन्द्र केळेकार
...वुर संपादपी : माधवी सरदेसाय
...जकावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.
...क्षरजुळणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.
...पप : प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.
...वरचेत्र : पाब्लो पिकासो, १९५४

## ह्या आंकांत



...की पटी : रु. १००/-
...द्यार्थ्यांखातीर : रु. ७५/-
...न वर्सांची पटी : रु. २५०/-
... वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
...क मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
...रुपये अदीक जोडचे)

...राचो नामो :
...ग म्हयनाळें
...-बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
...द साउदादिश, पाजीफोंड,
...व – गोंय ४०३ ६०१.

...ळ आंकाचें मोल : रु. ९/-

नदर संपादप्याची

## कुटुंब नियोजना प्रचारा फाटलें राजकर्ण

अंदू वर्सा खंय देशांत अन्न खूब पिकलें. खूब म्हळ्यार कितलें? शंबर कोटी लोकांक पावत इतलें? कोणूच स्पश्ट सांगिना. म्हळें, कितलेंय पिकूं, देशांत तें उरपाचें ना. 'परकी चलना'ची आमची भूक तें देशांत उरूंक दिवपाची ना. सगळें भायर वतलें. जर्मनी, फ्रान्स, इंग्लंड, अमेरिका, जपाना सारके 'भकारे' देश संवसारांत आसात. ते खातले.

लोक वसतिचे नदरेन हे देश संवसाराच्या चौथ्या वांट्या येदेय न्हय. पुणून संवसारांत जें कितें पिकता ताचे तीन वांटे हेच देश खायत आयल्यात. लोकवसतिचे नदरेन तांचे परस तीन वांट्यांनी व्हड देशांक खावपाक फकत एकूच वांटो उरता. मागीर वयल्यान 'तुमची लोकसंख्या वाडटा, लोकसंख्या वाडटा... ती आळाबंदा हाडात... ना जाल्यार तुमच्या फुडल्या पिळग्यांक खावपा खातीर कांयच उरपाचें ना' अशें मोट्या मोट्यान आमकां सांगीत आसतात.

आमची लोकसंख्या वाडटा, दुबावूच ना. ती आळाबंदा हाडूंक जाय हेय विशीं दुबाव ना. लोकसंख्या आळाबंदा हाडली ना जाल्यार आयज पिकता ताच्या चार वांट्यांनी चड अन्न आमकां पिकोवचें पडटलें अशें म्हणटात तेंय फट म्हणूंक येना. पुणून पिकता तें आमी आमची 'परकी चलना'ची भूक भागोवपाक हांकां विकपाक लागले जाल्यार धा वांट्यांनी चड अन्न पिकोवनूय तें पावपाचें ना.

कांय आंकडे वाचिल्ले – एक जपानी वा एक अमेरिकन मनीस पानार खंय अन्न सांडटा तेंच खंय चार हिन्दुस्तानी लोकांक पावत इतलें आसता. अतितायशी दिसता. पुणून सत्यस्थिती ही. ह्या लोकांक 'तुमी अन्नाची नाशाडी चलयल्या ती मात्शी थांबयात' अशें सांगूंक जाय. 'संवसारांत उपाशीं कोण पडचो ना.'

पुणून तांकां हें कोणूच सांगिना.

उर्जेचोच प्रस्न घेवया. हिन्दुस्तानांतलो गांवांत रावपी मनीस जितली उर्जा वापरता ताच्या पांच वांट्यांनी चड उर्जा खंय ह्या भकाऱ्या देशांतल्या गांवांत रावपी मनीस वापरता. आनी शारांतलो? शंबर वांट्यांनी चड. संवसारांतलो चौथ्या वांट्या इतलोच हो लोक पंच्यायशीं प्रतिशत लाकूड आनी अंयशीं प्रतिशत पेट्रोल आनी डिझेल वापरता. अमेरिकेंतलो खंयचोय नागरीक चिनी नागरिका परस पंदरा वांट्यांनी चड तर आफ्रिकी नागरिका परस पंचवीस वांट्यांनी चड उर्जा वापरता. देवान सगळी उर्जा जशी कितें हांचेच खातीर निर्माण केल्या! लोखंड? ब्यास्तर प्रतिशत ह्या लोकांक मेळटा. अठ्ठावीस प्रतिशत आशिया, आफ्रिका, दक्षीण अमेरिका हांच्या वांट्याक येता. स्वित्झर्लंड येदोसो एक देश. ह्या देशाचो सरसमान नागरीक संसाधनांचो जो वापर करता तो तांझानियांतल्या गिरेस्त नागरिका परस चाळीस वांट्यांनी चड आसता.

ह्या भकाऱ्या देशांची भूक कशीच भागना. आनी गरीब देशांची गरिबाय कशीच ना जायना. भकाऱ्यांची भूक वाडत वता तितली तितली गरिबांची गरिबायूय वाडत वता. इतलो दाट तांचे भुकेचो आनी आमचे गरिबायेचो संबंद.

हिन्दुस्तान गरीब उरलां तें हांगासल्ली लोकसंख्या वाडटा म्हूण काय ह्या गिरेस्त देशांची भूक दिशीं दिशीं वाडत गेल्या म्हूण?

संवसारांतलें पर्यावरण विखाळ करून उडयलां तें ह्याच देशांनी. ह्याच देशांनी ओझोनच्या थराक व्हडले व्हडले भोंकनोळ घाल्यात. संवसारांतलीं रानांय ह्याच देशांनी ना केल्यांत. एका जपानान फिलीपीन्सांतलीं सगळीं रानां काबार केलीं. घाना नायजेरिया सारके आफ्रिकी देश स्वतंत्र जाल्यात तेन्ना रानांनी कुचकुचीत भरिल्ले आशिल्ले. थंयचें अंयशीं प्रतिशत रान येवरोपान पंचवीस वर्सां भितर ना केलें. ब्राझिलांतलें आमाझोनश् एकूच रान पुराय धर्तरिक प्राणवाय (ऑक्सीजन) दिवपी. ब्राझिलचें सरकार हें रान 'निवळ करपाक' सद्या नेटान वावरूंक लागलां. कित्याक? ब्राझिलांतल्या धनीक व्यापाऱ्यांक गोठे बांदपाक सुवातो जाय. गोठे कित्या खातीर? गायां खातीर. गायो कित्या खातीर? दुदा खातीर? च्ये च्ये. मासा खातीर. गायच्या मासाक अमेरिकेंत आकांताची मागणी. खूब पयसो मेळटा. पयशां खातीर हे लोक आमाझोनश् रान निवळ करपाक लागल्यात! 'इकॉनॉमिकली' रानां परस गायो तांकां फायद्याच्यो पडटात खंय!

कसलें अर्थशास्त्र हें?

जाणकार म्हणटात, ह्या गिरेस्त देशांनी अन्नाचो पंचवीस प्रतिशत वापर – फकत पंचवीस प्रतिशत – उणो करचो, संवसारांतल्या एकान एक गरीब देशांतल्या लोकांचें पोट भरतलें. इतलें अन्न आयजूच धर्तरी दिता. धर्तरी वांझकुटी न्हय. बेश्ट्यो माल्थसच्या सिद्धांताची धाल मुखार करून लोकसंख्या आळाबंदा हाडात म्हूण हुयेली कित्याक? आनी गिरेस्त देशांच्या भकारपणाची राखण कित्याक?

रिचर्ड बार्क बेकर नांवाचो एक कृषि-तज्ञ जावन गेलो. हालींच भायर पडलो. ताणें एका रेंवे-सड्यार बटाटां पिकोवन दाखयल्लीं. आनी ताणें गिरेस्त देशांक सांगिल्लें, तुमी एकामेकांक मारपा खातीर सैन्य बाळगिलां तांतलें धाव्या वांट्याचें सैन्य म्हजे सुवादीन करात. हांव पुराय सहारा रेंवेसडो पाचवोचार करून दाखयतां. पंचवीस अब्ज लोकांक पावत इतलें अन्न पिकोवन दाखयतां.

संवसारांत लोकवसतिचे नदरेन सगळ्यांत व्हड देश चीन. नक्शार दिसता आमच्या देशा परस व्हड, पुणून शेतकामाक उपकारता अशी भूंय ताचे कडेन आमचे कडेन आसा ताच्या अर्दानूय ना. उरिल्ली सगळी भूंय गोबी रेंवेसड्यान व्यापल्या. थंय एकलोय उपाशीं पडना. कित्याक? चिनांत एक इंच लेगीत भूंय रोयनासतना उरना म्हूण. इंचान इंच हे भुंयेचो तें कितें न्हय कितें रोवपा खातीर उपेग करीत आयलां. ना जाल्यार आमच्या देशांत पळेयात – देश सोडात, गोंयांतूच पळेयात – कितली भूंय पडंग उरल्या? सरकारान कूळ कायदो हाडलो आनी आदल्या भाटकारांच्या हातांतली भूंय काडून तांच्या कुळांक दिली. कुळां तरी भूंय सारकी रोयतात व्हय? पोरणे पिळगेंतलीं रोयतात जातलीं, नवी पिळगी 'नव्या भाटकारां'ची अवलाद जाल्या!

कुमुनदादिंच्यो जमनी आयज कोणाच्यो जाल्यात? व्हडल्या व्हडल्या भौराष्ट्रीय कंपन्यांच्यो. जमनिंचीं कितलीं 'कन्वर्शनां' जालीं? कोंत ना. विकासाच्यो लटक्यो देखी, फुडलें कितेंच दिश्टी पडना असली फुडाऱ्यांची नदर, भ्रश्ट सरकारी कर्मचारी आनी फकत पयशां फाटल्यान पडिल्ले लोक हांकां लागून आमचें पावल मुखार पडलें जाल्यार 'नव्या आर्थीक धोरणा'चे दिकेन पडटा ना जाल्यार पर्यटनाचे दिकेन पडटा. शेतकाम? पाडूच पडलां. गोंय मेकळें जालां तेन्ना साठ प्रतिशत शेतकाम चलतालें. आतां वीस प्रतिशतूय चलना म्हणपाचें खासा मुखेलमंत्रीच सांगता.

केन्ना केन्ना दुबाव येता, संवसारांतले गिरेस्त देश आमची लोकसंख्या वाडल्या लोकसंख्या वाडल्या म्हूण हुयेली मारतात – आनी तांच्याच सुरांत सूर मेळोवन आमीय त्यो मारपाक लागतात – त्यो आर्थीक नदरेन मारतात काय राजकी नदरेन? 'हे लोक अन्न पिकोवन तांचे तेच खावपाक लागले जाल्यार आमकां खावपाक कितें मेळटलें?' हो भंय ना मू ह्या हुयेलीं फाटल्यान? आसाच. मॉरिस स्ट्राँगान म्हळ्ळें, 'धनीक देशां गिरेस्तकाय गरीब देशांच्या खुस्तार चल्ल्या.' पळोवंक जाय तर्जून त म्हणणें.

लोकसंख्या आळाबंदा हाडुंकच जाय, दोना परस चड भुरगीं कोणावू जावंक जायनात. पुणून तीं 'चड भुरगीं जाल्यार एकल्याचीय वाड सार जावंक पावना, आवय-बापूय सगळ्या भुरग्यांचेर सारकी नदर दिवंक पावना आवयची भलायकी घटमूट उरना' हें येवजून जावंक जाय. खावपाक कोणा अन्न मेळचें ना ह्या भंयान न्हय.

तुर्ताक कुटुंब नियोजनाचो जो प्रचार चल्ला तो पंच्याण्णव प्रतिश राजकी. आनी राजकर्ण कोणाचें? बकासूर देशांचें!

## मनोहरराय

एक उर्दू शायर आशिल्लो. जाणटो जालो. दांत पडपाक लागले. दोळ्यां सारकें दिसना जालें. कानांनी सारकें आयकूंक येना जालें. पयलीं भाशे चलप जमना जालें. तो शिणपाक लागलो—

**या खुदा, तुमने ही तो जवानी दी थी। देकर तुमने वह तुरंत क ले ली? अब क्या, जो आकर कम्बख्त कभी जाता ही नहीं वह बुढा दिखा रहे हो?**

जाणटेपणांत सगळेच आमी हेच भाशेन शिणपाक लागतात.

पुणूच जाचो भौमान करपाक आयज आमी हांगा एकठांय जाल्यात तो मनोहरबाब जाणटेपणांत वेगळोच शीण काडपी एक कवी. तो म्हणट **देवा, कसली तुजी करणी. केंस जाले धवे, तरूय नदर अजून तरणी** खंयच्या तोंडान आमी ताका तूं पंच्यास्तर वर्सांचो जाला म्हूण सांगतले!

हेच उतार पिरायेर रवीन्द्रनाथांचे केंस धवेफुल्ल जाल्ले. खाड मिशा पिकिल्ल्यो. दोळेय अधू जाल्ले, आनी कमरूय बागवल्लें. तरूय ते **मोदे पाकबे ना चुल गो** – म्हजे केंस पिकूंक नात, केन्ना पिकपाचे नात हांव जाणटो जावंक ना, केन्ना जावपाचों ना, अशें म्हणटाले.

मनोहरबाब हेच परंपरेंतलो. तो जाणटो जावंक ना. केन्ना जावपाच ना. सैमाचो कवी तो. रवीन्द्रनाथां सारकोच सैमांतल्यान आयिल्लो, सैमाचें आंग जावन राविल्लो.

सैम केन्ना जाणटें जायना.

आमी सैमाकडेन दोळे आसून लेगीत केन्ना सारके पळेनात. फाल्य उठनाफुडें मुजरत उदेंते कडेन तोंड करून, मनांतले चिंता हुस्के, विचा विकल्प सगळे काडून मन स्वच्छ करून मेकळ्या चित्तान सकाळ कश उदेता ती पळेयात. ती तुमकां आयजूच, ह्याच खिणाक, पयलेच फाव उदेल्लेवरी दिसतली. फ्रॅश, नवीताल्ल सामकी. आयजूच जल्माक आयिल्ल्य भुरग्यावरी.

युगां जालीं, सकाळ सदां अशीच उदेत आयल्या. धर्तरी उज्याचो गु आशिल्ली तेन्नाय ती अशीच उदेत आशिल्ली. धर्तरिन जीव जल्माक घाल धर्तरिचे फाटीर तांची तरेतरेची लीला सुरू जाली तेन्नाय सकाळ अशी उदेत रावली. मायक्रोस्कोपांतल्यान पळेल्यारूच दिश्टी पडटात असल्य बॅक्टेरियां पसून हती गेंड्या मेरेनचे लाख तरांचे जीव धर्तरिन जल्मा घाल्ले तिणें पळेले. तणाच्या पात्यापसून पिंपळ वडा सारक्या रुखां वनस्पतसृश्टूय जल्माक आयिल्ली तिणें पळेली.

मनीस जल्माक आयिल्लो पळेला. ताणें जल्माक घाल्ल्यो, तरतरे वयर सरिल्ल्यो आनी कसलीच खूण दवरी नासतना मातये भरवण जाल्ल – खाल्डियन, असीरियन, इजीप्शियन, इण्डस वॅली, ग्रीक, रोमन व्हडल्यो व्हडल्यो संस्कृतायो तिणें पळेल्यो.

कितलीं झगडीं झुजां पळेलीं, क्रान्त्यो उलथापालथी पळेल्यो, को आनी हिशोब मेळचो ना.

इलेंय हें पळोवन लेगीत तिच्या मुखामळार जाणटेपणाची एक ल्हानशी रखो लेगीत पडिल्ली दिश्टी पडना. तिका पुरो जालां, ती खर्शेल्या, ह्या म्हणपाचेंय एक चिन्न तुमकां दिसपाचें ना.

सदां उदेतली आनी उदेतली ती नवी ताल्लूच उदेतली.

त्याक, तिच्या शिरंत्रांत जें रगत व्हांवता तें नवेताल्लपणाचें आसता नवेंताल्लपण हेंच सैमाचें मूळ तत्त्व. तेंच सैमांतल्यान आयिल्ल्या सैमांतूच रावतल्या कविंच्या शिरंत्रांत घोळटा. सैमाचे कवी केन्ना जायनात. सदां नवे ताल्ल आसतात.

नोहरबाब, तूं पंच्यास्तर वर्सांचो जाला हें सांगपाक – आनी, शंबर गायसर आमकां तुजो सांगात मेळूं म्हूण मागपाक – आमी हांगा य येवंक नात. सट्ट करून तूंच आपूण जाणटो जालां अशें मानशीत वान 'तूं जाणटो जावंक ना, आमकां तूं अजून तिशी-पस्तिशींतलोच उरला – पंच्यास्तर अदीक शंबर वर्सां जियेलो जाल्यारूय गोंयकारांक तिशी-पस्तिशींतलोच दिसतलो, हाचो तुका उगडास करून दिवपाक आमी हांगा जमल्यात.

नोहरबाब सैमाचो कवी. तसो गोंयचोय कवी.

रान येदेंय व्हडलें हें विश्व ब्रह्मांड निर्माण केलें, निर्माण केल्ल्या यांक नेमान बांदून तें आपले आपूण चलता अशें केलें आनी आपणाक खातीर एक स्वर्ग निर्माण करपाक तो मुखार सरलो. आनी सगळें कौशल वापरून ताणें गोंय निर्माण केलें. गोंयांत प्राणाची लीला, नृत्य आनी वैचित्र्याचें जें वैभव दिश्टी पडटा तें, गोंयांत तो रावता

नोहरबाबाचो जीव ह्या गोंयचेर.

मार साठ वर्सांचो आमचो दोगांयचो संबंद. खूब दाट. चौदा पंदरा आसतना आमी फोंड्यां मेळिल्ले, आल्मैद कॉलेजींत. ह्या साठ च्या काळांत मनोहरबाबाक कोणाचो मत्सर दिशिल्लो हांवें पळोवंक ताणें कोणाचो दुस्वास केल्लोय पळोवंक ना. ताका अभिमानूय कोणाचो कित्याचो ना – कुटुंबाचो ना, घराण्याचो ना, धर्माचो ना. तें कित्याक, आपणालोय ना. पुणून गोंयचो अभिमान? ताका सुमारा भायर. कारांचेर तितलोच. आनी गोंयचे भाशेचो तर सगळ्यांत चड. मनोहरबाब जाणा. खंयच्याय व्हड फ्रॅंच कवीक येता तितली ताकाय फ्रॅंच येता. फ्रेंच साहित्य कोळून पियेला. इंग्रजीय ताका तितलीच बरी येता. इंग्रजींतलें तलें बरें काव्य सगळें ताणें वाचून काडलां. आनी – खूब जाणांक आसची ना – तो मराठी घेवन मुम्बय विश्वविद्यालयांत एम्.ए. फस्ट स फस्ट जाला. हांचे भितरले खंयचेय एके भाशेंत नांव जोडून तो जावं येतालो. पुणून आपुणूच व्हड जावपाक मनोहरबाब जल्माकूच नाशिल्लो. गोंय व्हड करतलों आनी गोंया वांगडाच आपूण व्हड लों अशें म्हणपाक लागलो. आनी तो कोंकणी कवी जालो. कोंकणी गोंयचो प्राण अशें म्हणपाक लागलो.

गोंय मनोहरबाबाच्या रगतांत घोळटा. गोंया भायर खंयूय वचूं तो, आपणा डा गोंयूय घेवन वता. **हांव जंय वतां, थंय रगतावरी व्हरतां माती,** म्हणटा. तो फकत गोंयची मातीच घेवन वता अशें न्हय. घुंवते दोंगुल्लेचो कोय घेवन वता. जुवारीचीं दुकाळ ल्हारांय घेवन वता. सत्तरी रानां घेवन वता. देवदेवतां आंगावयले कुराडेचे घाय घेवन वता. तें कित्याक, वता थंय आपणा वांगडा अठरा जुनूय घेवन वता आनी तो रावता अठरा जून गर्जेंत रावता. आग्वादांतल्या शिंवावरी (लोहियावरी) ताचोय पिरंगता. ताचें मन तापता. रगत पेट्टा. ताच्या काळजाची ल्हाय टा. आनी मागीर, **गोंया तुजे जिणे बगर, मोगा बगर रावं नज** म्हूण नळटा.

तो फ्रान्साक पावता. पॅरिसांत रावता. पॅरिस म्हळ्यार केन्द्र एक येवरोपेव संस्कृतायेचें. ते भायर इन्द्रनगर, भोगांचें. इन्द्राक लेगीत मत्सर दिसचो हे तरेचें भाग्य ताचें. मनोहरबाब वैरागी न्हय. चाखपा सारकें जें जें कितें – 'गंधांत, गानांत पानांत' आसा तें चाखपाचें मन घेवन आयिल्लो एक रसीक तो. पुणून ताचें मन थंय निखालूस लागना.

**म्हजें मन ना रे हांगा, हांगचो म्हाका नाका भोग**, तो म्हणटा, आनी सांगता —

**म्हजी जीण उपाट भरूंक म्हाका जाय गोंयचो मोग.**

गोंयचो मोग तो खंय सोदता? आवय बापायच्या, भावा भयणिंच्या, सोयऱ्या धायऱ्यांच्या, इश्ट मित्रांच्या सांगातांत? हांचो कोणाचो ताका उगडास लेगीत जायना. तो गोंयचो मोग सोदता – फांत्या पारा वेल्या म्हातारेच्या कोंब्या सादांत. सान्निच्या सरसराटांत किणकिणपी कांकणां नादांत. माडा राबस हांडी वेल्या सुक्या चुट्टां सळसळाटांत. चंवरेल्ल्या आंब्या वेल्या सुकण्या खोशये किलकिलाटांत.

म्हाका जाय जुंवारेचीं
पातळ्ळेलीं पांचवीं ल्हारां
नळखुट्ट्यांच्यो बेबक्यो मेजपी
देगे वयलीं शेंबडीं पोरां

म्हाका जाय पाडेल्यांचे
माडा वयले उल्यार उले
आंग मोडपी चांफ्या वयले
गोर, धवे वासा झेले

एक दीस ताच्यो ह्यो सावदादी, उगडासांचे हे चटके, शिमे भायर वेतात. जांचे सासायेंत तो ल्हानाचो व्हड जाल्लो ते सगळे देखाव ताच्या दोळ्यां मुखार उबे रावतात. आनी तो म्हणटा, ते पळे —

**हुस्के माथ्यार गोंडेच गोंडे**
**चांफो हांसता वासाळ हांशें**
**तेंगशे वयलें पिकलें तोर**
**म्हणून चानयेक लागलां पिशें**

ताका देवकेळम्यार जोती फुलिल्ल्यो दिश्टी पडटात. घडा भारान बागिल्ल्यो केळी तो पळेता. आंब्या काथे चोखीत चोखीत जळीं मळीं भोंवपी पोरां दिश्टी पडटात. जांबळां, काण्णां, चुन्नां चारां – गोंयचें अख्खें जिवीत तो पळेता आनी आकूळ पिकूळ जावन म्हणटा —

**हुस्के माथ्यार गोंडेच गोंडे**
**चांफो हांसता वासाळ हांशें**
**गोंया भायल्या मनाक म्हज्या**
**लागलां पिशें, लागलां पिशें**

'गुरबत में हो अगर हम, रहता है दिल वतन में / समझो वहीं हमें भी, दिल हो जहां हमारा...' मनोहरबाब आसा फ्रांसांत, पुणून रावता गोंयांत. हो गोंयचो मोग ताका फ्रांसांत रावंक दिना. स वर्सां उपरांत अभ्यास पूर्ण करिनाफुडें मांडवीच्या ल्हारां खातीर दर्या ल्हारां उंपून तो परत येता. दूदसागरा हांशा खातीर तो सोन्या पेलो मोखून दिता. कुळागरां स्पर्शा खातीर अप्सरांचो सर्ग सोडटा... फकत गोंयच्या मोगा खातीर.

परतो येता. पुणून गोंयांत पावना. तागेलीं आवय बापूय, भावंडां सगळीं मुम्बयंत आसात. ताका मुम्बयंत रावचें पडटा. तुज्या मोगा खातीर आपूण परतों आयलों खरो. **तरूय तांबडी माती म्हज्या हाताक लागली ना** म्हूण तो खंतीन गोंयाक सांगता. तो फ्रांसांत आसतना गोंयचे सुटके खातीर हांगा दोन मोट्यो चळवळी जाल्यो. ४६तली चळवळ ताणें पळेल्ली. ५४/५५तल्यो चळवळी पळोवंक नाशिल्ल्यो. शेंकड्यांनी गोंयकार बंदखणींत पाविल्ले. कांय जाण तर प्राण होगडावन नाच जाल्ले. आपणाक ह्या यज्ञांत

वांटो घेवंक मेळ्ळो ना – **तुज्या उल्याक दिवंक उलो म्हज्या काळजाक गावलें ना** म्हूण तो पच्छाताप करता.

तो फ्रांसांत आसतना गोंयान वेगळेंच एक रूप घेतिल्लें. नाक दांबलें जाल्यार तोंड उकतें जातलें हे आशेन भारत सरकारान गोंयचेर इकॉनॉमिक ब्लॉकेड घाल्लो. आयच्या स्वातंत्र्य सैनिकांनी भारत सरकाराक तो घालूंक लायिल्लो. परिणाम उरफाटोच जालो. इकॉनॉमिक ब्लॉकेड कोणाचेंच नाक दांबूंक पावलो ना. उरफाटीं, गोंयांत मिनां सुरू जालीं आनी गोंयकारांच्या हातांत सुमारा भायर दुडू घोळपाक लागलो. कोट्ट्यांनी वर्सां लावन सैमान गोंयच्या पोटांत जें लोखण तयार करून दवरिल्लें – कोट्ट्यांनी वर्सां मेरेन गोंयकारांक उपकारा पडचें म्हूण – तें आठ धा मिनेरांनी उस्तून उस्तून भायर धाडून दिलें आनी बदलाक गोंय फॉरेन मालान भरून बुडयलें. गोंयकार दूद हॉलेंडचें पियेवपाक लागले. सफरचंदां स्वित्झर्लंडांतलीं मागोवन खावपाक लागले. शीत ब्रह्मदेशांतल्या मदियामांडला तांदळाचें जेवपाक लागले. आनी मेळत ताच्या दारांत नवी करकरीत एक imported गाडी दिश्टी पडपाक लागली. एके तरेच्या वैभवांत गोंयकार लोळटात ते मनोहरबाबान पळेलें. कवी तो. दिश्टी पडटा ताचे पेलेकडलें खूब पयसलें पळोवपी. उद्वेगान तो गोंयकारांक सांगपाक लागलो —

**खणात खणात खणात खणी**
**खणात झाडां पाळां मुळां**
**शेतां भाटां खणात खुशाल**
**खणात पुरूस खणात खांबे**
**हुयेल मारीत आजे पणजे**
**आयज ना फाल्यां जातले उबे**
**खणात फोण, खणात फोण**
**वयर पळे भोंवता घोण.**

घोश बेश्टी वयर भोंवना. हांगा सकल लचके तोडून खावपा सारकें कितेंय दिश्टी पडटा तेन्नाच ती वयर घिरट्यो घालूंक लागता. मिनाच्या उद्देगान गोंयची आवतिकाय लचके तोडून खावपा सारकी करून उडयल्या म्हणपाचें मनोहरबाब पळेता आनी ताचें काळीज खेदान भरून येता.

मंगेळ पाडगांवकारांची मराठींत एक कविता आसा. खूब वर्सां पयलिंची. एक राजकुमारी राजम्हालाचे गच्चेर बसून मुखार दिश्टी पडटा तें जिवीत नियाळपाक लागता. अवचीत तिका रस्त्यार एक भिकारीण दिश्टी पडटा. बोंदरां न्हेशिल्ली. हाण्डीर एका धाकल्या भुरग्याक घेवन ती भीक मागताली. राजकुमारी तिका पळेता आनी मनांतल्या मनांत म्हणटा, 'आरे रे! बावडी कितें जेवता खाता कांय? भुरग्याक कितें दिता काय?' तिचें काळीज कळवळून येता आनी तिच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळपाक लागतात.

पाडगांवकार म्हणटात —

**नृपकन्येच्या डोळ्यां मधुनि अश्रु गळती**
**उंचावरूनि धुळींत पडती, धुळींत मिळती**

चडशे नवी हे नृपकन्ये सारके. तांकां संवसारांतलीं दुख्खां, दळदिरां, अन्याय अत्याचार सगळें दिश्टी पडटा. तें पळोवन तांचें काळीज खंतीन भरून येता. पुणून तांच्या हातान कांयच घडूंक पावना. कितेंय घडूंक जाय म्हणपाची तांकां जाणविकाय जायना. ते फकत कविता रचतात आनी थंयच थांबतात.

मनोहरबाबाची प्रतिभा वांझकुटी न्हय. फकत कविता बरोवन कडेक सरपी न्हय. एक कृतिशील कवी तो. एक एक्टिविस्ट. तो साहित्यकार ह्या रुपांतल्यो आपणाल्यो जापसालदारक्यो जाणा.

लॉर्ड कर्झनान बंगालची फाळणी करची थारायली तेन्ना तिचे आड बंगालांत तिडकिचें एक ल्हार उसळ्ळें. रवीन्द्रनाथ ताचेर चडून बशिल्ले. स्वदेशिच्या आंदोलनांतूय ते सगळ्यांत मुखार राविल्ले. जालियांवाला बागेंतल्या हत्याकांडा आड सगळ्यांत खणखणीत आवाज सगळ्यांत पयल तांचोच उठिल्लो. फ्रान्सांतले सार्त्र, काम्यू सारकेले व्हड साहित्यकार देशाच उलो कानार पडना फुडें झुजा मळार देंविल्ले. मनोहरबाब लक्ष्मणरावांच पूत. गोंयच्या उल्याक उलो दिवन लक्ष्मणरावान घर संवसाराची होळ केल्ली ताणें पळेल्ली. आनी तिची झळूय अणभविल्ली. मनोहरबाबाची कूड लक्ष्मणरावां सारकी. भाराची. तो पेट्टा. आपणाले जापसालदारकेच जाणवीक तो आपणाकूच करून दिता. **'खणी फोंड पुरचो आसा, तरण कावथो रोवचो आसा'** हाची जाणवीक ताका जाता आनी तो म्हणटा–

**खूब खूब करचें आसा**
**रगतान मळो शिंपचो आसा**
**जिणे फातरीर काळीज घांसून**
**वीज जगाक दिवची आसा...**

**उज्या वादळ झेलचें आसा...**
**संवसाराचें वीख पियेवन**
**चंद्र माथ्यार घेवंचो आसा...**

**गांवांत म्हज्या न्याया सूळ**
**ऊंच उबो रोमचो आसा**

नशिबाचो काळोख आटोवन तो रुप्या सपन घडोवंक भायर सरता नवी खोंप बांदतलों म्हणटा. पोरणो पुरूस पुजतलों म्हणटा. मांडवीच्या झेमेल्ल्या ल्हाराक नवी जाग हाडटलो म्हणटा. ताचेकडेन फकत सपन नात. सपनां चलणुकेंत हाडपाची कार्यावळूय आसा. पयलें पावल म्हणून तो सगळ्यांत पयलीं 'खणी फोण पुरून थंय तरणो कावथो रोवंक जाय' म्हणटा. म्हणटकूच, ह्या कावथ्याचो एक दीस माड जातलो आनी **फायच्या गोंयांत तो येद्दे नाल्ल** दिवपाक लागतलो हाची ताका खातरी आसा.

हीं रुप्या सपनां रंगयता आसतनाच जिस्त गोंयची सुटका जाता मनोहरबाब खुशालभरीत जाता. **'आयलें आमचें राज, आयज आयलें आमचें राज'** अशें म्हणून तो नाचपाक लागता.

पुणून कटा – साडेचार शेंकड्यांच्या बंदेपणांत रावन आयिल्लो गोंयकार धनिपणाची भावनाच होगडावन बसला म्हणपाचें तो पळेता. फिरंग्यांनी एका गोंयांत पयलींच दोन गोंयां निर्माण करून दवरिल्लीं. एकामेकां कडेन कसलोच संबंद नाशिल्लीं. दोनूय स्वायत्त. Autonomous. दोनूय एकामेकांक भियेतालीं. हांच्या हातांत गोंय गेलें जाल्यार आमकां हे खावन उडयतले अशें एका गोंयाक दिसपाक लागलें, तर हांच्या हातांत गेलें जाल्यार आमी सामकेच ना जावन वतले अशें दुसऱ्या गोंयाक दिसपाक लागलें. दोनां मजगतचें, संख्येचे नदरेन सगळ्यांत व्हडलें गोंय सगळ्यांत चड भियेल्लें. 'नाकाच हें राज आमच्या हातांत... दिवन उडोवया तें शेजारच्या लोकां हातांत' अशें तें म्हणपाक लागलें. शेजारचे बुदवंतूय तांकां 'तुमी कशे खेरीतपणान राज्य चलयतले? तुमकां भास ना, तुमकां इतिहास ना... आमची भास तीच तुमची भास, आमचो इतिहास तोच तुमचो इतिहास' अशें सांगपाक लागले. तांच्या सुरांत सूर मेळोवन हे घरचे पिशेय 'हय हय... तुमी म्हणटात तेंच खरें, आमकां भास ना, आमकां इतिहास ना. आमी षंढ... बाबत कुळां' अशें म्हणपाक लागले.

म्हळ्यार, एका बंदेपणांतल्यान मेकळें जाल्ल्या गोंयाक दुसऱ्या बंदेपणांत धुकलून उडोवपाचो वावर खासा गोंयकारांनीच सुरू केल्लो. तोवूय, गोंय मेकळें जायनाफुडें रोखडोच.

'गोव्याला इतिहास आहे? पोर्तुगीज आले आणि पोर्तुगीज गेले' हें पेल्यान कितें घडलां गोंयांत? अशें महाराष्ट्रांतले 'तर्कतीर्थ' म्हणपाक लागले तेन्ना मनोहर उसळ्ळो. हय गा, पुणून एक गजाल विसरूं नाकात... पुर्तुगी

आनी पुर्तुगेज गेले ह्या दोन घडणुकां मजगतीं चारशें पन्नास वर्सांचो ळ्ळा. ह्या चारशें पन्नास वर्सांच्या काळांत भारतवर्षांतल्या खंयच्याच तल्या लोकांच्या वांट्याक येवंक नात इतले उतळताप गोंयकारांक पडल्यात. ह्या चारशें वर्सांच्या काळांत गोंयकारांक हुलपावन मारपाचे ताप फिरग्यांनी केल्यात. फकत, नवो धर्म घेवनूय पोरण्यो चाली-रिती डेनात म्हूण. फिरंगी आमकां बाटयतात म्हूण पयलीं हिन्दू लोक डून पळून गेल्ले. बद्द कोची मेरेन पाविल्ले. शितांत मीठ घालिनात तुळशिच्या रोप्याक उदक घालतात म्हूण आतां किरिस्तांव पळून लागले. जाला असो छळ कोणाचोच दुसरे खंयचेच कडेन ह्या ? दक्षीण कॅनरांत जे किरिस्तांव आयज दिश्टी पडटात ते चडशे गोंयच्यान पळून गेल्ल्या किरिस्तांवांचे वंशज. ह्याच चारशें पन्नास काळांत गोंयची म्होंवाळ कोंकणी भास ना नपश्चात करपाचे तरांतरांचे यत्न फिरंग्यांनी गोंयांत केल्यात. ती जिबेर लेगीत घोळची न्हय णी एकाफुडले एक कडक फतवे काडल्यात. जाला असलो छळ गांतले दुसरे खंयचेच भाशेचो ? हो इतिहास न्हय ? हो इतिहास चो आसत, लाचारिचो आसत, लज दिसपा सारको आसत. पुणून तो. ह्याच इतिहासान गोंयकारांक घडयल्यात. गोंयकार मेंगो आसूं, आसूं, सत्वशून्य आसूं, बाबत कूळ आसूं. इतिहासान घडयल्लो हो.

ल्या वर्सांचो इतिहास आयज संवसाराचेर आपणाली दादागिरी चलयता रिकेचो लेगीत ना.

नी हांचो इतिहास ? छत्रपती शिवाजी महाराजा पसून सुरू जाता छत्रपती शिवाजी मेरेन पावतकच थांबता. आदलोय ना, उपरांतचोय

कां भास ना, इतिहास ना अशें भौन भौन कानार पडपाक लागलें मनोहरबाब संतापान उसळ्ळो. आमकां भास ना ? इतिहास ना ?

**आमकांय इतिहास आसा**
**आमकांय बी भास आसा**
**तुमचे वरीच नखेत्रांचो**
**आमकां लेगीत ध्यास आसा**

तिडकून तो सांगपाक लागलो. इतलेंच न्हय, तर मुखार तो तांकां हत्वाची शिटकावणी दिवपाक लागलो —

**आमच्या मनाक धार आसा**
**सोंशीकपणाक पार आसा**
**आड येतल्यांक आड घालपाक**
**आमचे कुडींत हाड आसा**

नोहरबाब मुदलांतलो बंडखोर. गोंयच्या दुस्मानांक तो पारिसाक तनाच सांगतालो —

**तुजे मुखार दुस्माना**
**नाच दिमी मोडचों ना**
**वठार दोळे, पेटय नाळी**
**हावेस म्हजो मरचो ना...**

**लागत तशे बांद पांय**
**तोंडाक केदोय गुड्डो लाय**
**हाणशी जाल्यार हाण उबो**
**तरूय दिमी मोडचों ना...**

धिटायेन, हेच पोटतिडकेन, हेच जीवसाणेन तो नव्या साम्राज्यवाद्यांक **येतल्यांक आड घालपाक / आमचे कुडीक हाड आसा** अशें सांगपाक लो.

भोंवतणच्या तरणाट्यांक तो किंवाट्यान विचारपाक लागलो —

**तरणे तशे दांडगे तुमी**
**अजून कशे रावल्या वोगे**
**हड्ड्यांतले इंगळे आयज**
**धगधगून जावं दी जागे**
**जायात जागे.**

गोंयचे सुटके पसून ओपीनियन पोल मेरेनच्या काळांतलो मनोहरबाबाचो अवतार पळोवंक जाय आशिल्लो. मोटवीच ही मुर्ती वेदीर चडटाली आनी मायका मुखार उबी रावन अवसर आयिल्लेवरी उलोवपाक लागताली तेन्ना मुखार उबे आशिल्ले सगळे अक्षरशा कुदपाक लागताले.

मनोहरबाबान ते मुस्तींत आमकां दोन स्लोगन दिल्ले – मंत्रां सारके. उपाट अर्थान भरिल्ले. **कोंकणी भास आमची माय / आमची भास आमकां जाय** हो एक, आमचो नित्शय उकतावपी आनी, **घरचे भेदी, भायले चोर... सांगात तांकां वास्सिमोर...** हो दुसरो, आमकां कृतिशील करपी.

बेश्टो ओपीनियन पोल जिखूंक पावले नात आमी.

मनोहरबाबाच्या ते मुस्तींतल्या वावराचो by product म्हळ्यार **आमी इकरा जाण.** हे इकरा जाण कोण, हांव सांगूंक वचचों ना. गोंयांत आयज एक विश्वविद्यालय आसा. फादर थॉमस स्टीफन्स आनी सेंट फ्रान्सिस झेवियर हांच्या नांवान इतिहासीक संशोधन करपांत गुल्ल आशिल्लीं दोन केन्द्रांय आसात. हांव तांकां इतलेंच सांगीन, सोळाव्या शतमानाच्या इतिहासांत तीं घुसपून उरलीं जाल्यार कालचो पयरचो गोंयच्या कर्तुत्वाचो इतिहास तांच्या हातांतलो निसरून पडटलो. आदलो काळ खूब सवकासायेन चलतालो. आयचो रॉकेटाच्या वेगान धांवपाक लागला. आमच्या दोळ्यां मुखार जाल्लो ओपीनियन पोल आयज मध्ययुगांत वचून पडला आनी अठरा जून तर प्राक्-इतिहासीक काळांत वचून बसला. इकरा जाण कोण ते हांणी कळाव लाय नासतना सोदून काडचे. हांव तांकां एक clue दीन. खासा मनोहरबाब त्या इकरा जाणांत एक आशिल्लो.

ह्या इकरा जाणांनी कोंकणी चळवळीक पयलेच फावट संघर्शाची देख दिल्या. ह्या 'इण्डिया दॅट इज भारत' देशांत संघर्श केले बगर तुमकां कितेंच मेळपाचें ना हें त्या इकरा जाणांनी सगळ्यांक स्पस्ट उतरांनी सांगून दवरलां. ते पयलीं आमी सगळे कविता कथा बरोवपांतूच गुल्ल उरिल्ले. ह्या इकरा जाणांनी ओपीनियन पोल हाडला आनी ओपीनियन पोल जिखला. ह्या इकरा जाणांनीच कोंकणीक साहित्य अकादेमींत पावयल्या आनी तिका आठवे वळेरेंत व्हरून बसयल्या. ह्या इकरा जाणांनीच गोंयकारांक एक identity दिल्या. कोंकणीक स्वताची अशी एक भूंय दिल्या, तिका स्वताचें अशें एक राज्य जोडून दिलां. इकरा जाण जेन्ना उठून उबे रावतात तेन्ना सत्येर केदेय मदांध लोक बशिल्ले आसूं, तांकां हार खावची पडटा, मारूय खावचो पडटा.

भूतखांब केरीचे इकरा जाण उठून उबे रावले तेन्ना द्युपाँ सारकेले एके बळिश्ट कंपनीक साटली पोटली कवळून गोंयच्यान वचचें पडलां. आनी 'आतां कांय जावपाचें ना' अशें सांगतल्या 'खाशयां'च्या पोलिसांक लोकांचो रुद्रावतार पळोवन पळून वचचें पडलां. वेर्ण्यांतले इकरा जाण उठून उबे रावले तेन्ना लुइझीन्य तांकां वळखूंक पावलो ना. ताचो मोरयां जालो. सार्दीनबाब ह्या प्रस्नांत कायलोळ्यो करपाक लागलो जाल्यार – बरोवन दवरिल्लें बरें – ताकाय हार खावपाक आनी मार खावपाक कळाव लागपाचो ना.

सत्येचेर सत्या चलोवपांत समाजांत सदांच जागरूक इकरा जाणांची सत्या चलूंक जाय हें कोंकणींतल्या इकरा जाणांनी दाखोवन दिलां.

मनोहरबाब म्हणटा —

जाणटे पुणून तरणे आमी
लाल भुंयेचे राखणे आमी
संवसारांत राखतले गा
हिचो व्हडलो मान
आमी इकरा जाण

आसले आमी जरी थोडे
उजवाडाचे आमी गडे
काळखी कुपां वेतलो चिरीत
आमचो उज्या बाण
आमी इकरा जाण

भायले शाणे, घरचे पिशे
लेखती आमकां नेण्टे कशे
वामना वरी धाकटे जरी
पावल आमचें म्हान
आमी इकरा जाण

येवंदी कोणूय घालूंक फूट
एकचाराची दाखोवं मूठ
घट आमी बांदलां आयज
नित्शयाचें काण
आमी इकरा जाण

आडमेळ्यांचे येवंदी फातर
आमच्या ओंठार एकूच उतर
'जैत जोडून दितले आमी
पडलो जरी प्राण'
आमी इकरा जाण.

ह्या इकरा जाणां खातीर, मनोहरबाब, गोंय आनी गोंयकार – गोंयचें राजकी जिवीत – सदांच तुज्या रिणांत उरतले.

आयज गोंय गोंय उरूंक ना. ज्या गोंयची तुका फ्रान्सांत याद येताली तें गोंय आयज सोदल्यारूय तुका गोंयांत मेळपाचें ना. ज्या फायच्या गोंयचीं तूं रुप्या सपनां पळेतालो तें गोंय राजकर्णी गोंयकारांनी पोटांत आसतनाच व्हळोवन उडयलें, जल्माकूच येवंक दिलें ना. आयचें गोंय पळेतलो? बायणा पळोवन यो. थंय मुम्बयचो फोरस रोड उबो जाल्लो तुका दिश्टी पडटलो. कळंगुटे भोंवन यो. थंय भेंडी बाजार तुका पळोवंक मेळटलो. विकासाच्या नांवान धरबांद नाशिल्लें जें उद्देगीकरण आनी ताळतंत्र नाशिल्लें शहरीकरण गोंयांत चलपाक लागलां तें तुजे यादींतल्या आनी सपनांतल्या गोंयाक विनाशाच्या फोंडांत धुकलून उडोवपाक लागलां. तुज्या इकरा जाणांनी गोंयचें merger आडायल्लें. गोंयचें submersion ते आडावंक पावले नात. आमी सात लाख आशिल्ले. आयज बारा लाख जाल्यात. धा पंदरा वर्सां भितर वीस पंचवीस लाख जावपाचे आसात. पेडणेच्या तेरेखोल सावन काणकोणच्या काब-द-राम मेरेनची एकूय वेळ आयज गोंयकारांची उरूंक ना. गोंयांत कितल्योश्यो इंडस्ट्रियल इस्टेटी उब्यो जाल्ल्यो आमी पळेतात. एकेय इस्टेटींतली एकूय म्हत्वाची इंडस्ट्री गोंयकाराच्या हातांत ना. गोंयच्या प्रशासनांत एकाय म्हत्वाच्या स्थानार गोंयकार बशिल्ल दिश्टी पडना. एका काळार आमी Goa for Goans म्हणटाले आ 'गोंय कोणाचें? गोंयकारांचें' म्हूण घोशणा दीत गोंयभर नाचताले. आय Goa for everybody except Goans – गोंय गोंयकारांचें सोडून ह सगळ्यांचें जालां. गोंयांत गोंयकारांक खंयच सुवात ना.

आमच्या सुटके झुजाऱ्यांनी केली तीच चूक कोंकणीच्या मळावेल तुज्या इकरा जाणांनी केली. सुटके झुजाऱ्यांनी गोंयची सुटका जावच म्हूण जिवाचें रान केलें आनी सुटका जायना फुडें गोंय काडून अशा लोकांच्य हातांत दिलें की जांणी सुटका जावची म्हुण्णूय कांय करूंक नाशिल्ले जावची न्हय म्हुण्णूय कांय करूंक नाशिल्लें. पीटर आल्वरिस सुटके झुजांत आमचो हिरो. लोकसभेंत वचपा खातीर ताचेर ह्याच गोंयकारांच्या एव थळाव्या पक्षाचो – म.गो. पक्षाचो आधार घेवपाचो प्रसंग आयला. आ पीटर दो. पुंडलीक गायतोंड्यां सारक्या एका तेजिश्ट सुटके झुजाऱ्या हरोवन वेंचून आयला. आमच्या सुटके झुजाची फलश्रुती हाचेकूय ब तरेन सांगूंक येवपाची ना. तुज्या इकरा जाणांनी गोंयाक एक वेगळी आयडेंटिट जोडून दिल्ली. तांकां तांचें हक्काचें राज्य जोडून दिल्लें. तांणीय हें केलें. राज्य आपणा हातांत घेवपा बदला अश्या लोकांच्यां हातांत काडू दिलें की जांणी गोंयच्या खंयच्याच प्रस्नाचो आयुष्यांत पांच मिनटां लेगी केन्ना विचार केलो ना. आयज तुज्या त्या इकरा जाणां मजगतच्या कां म्हालगड्यांक सत्येर आशिल्ल्यांचे भोंवतणी आनाळ्यो गुनाळ्यो काडटन तूं पळेता तेन्ना तुका कितें दिसता जातलें, म्हांका अदमास आसा. म्हाक लज लज दिसता. जीव दिवचोसो दिसता. कोंकणीचे चळवळिची फलश्रुत हाचेकूय बरी दुसरे कसलेच तरेन सांगूंक येवपाची ना.

पुणून आमी जाणात – तुजे खंयचेच कवितेंत निर्शेणेचो सूर आम कोणें पळोवंक ना. तूं निर्शेवपी कवी न्हय आनी गोंयची कूस वांझकु न्हय. ती सदां नव्या नव्या इकरा जाणांक जल्म दीत आयल्या. गोंयच विनाश आडावपी नव्या – आदले परस तेजिश्ट – इकरा जाणांची आय गोंय वाट पळेता. तांकां उलो मार. तुज्या 'जायात जागे' गितांत शंकर रागाचो नवो सूर जोड. आनी भास्करराव तांब्यां भशेन

**पाड सिंहासने दुष्ट हीं पालथीं**
**ओढ हत्तीवरूनि मत्त नृप खालती**
**मुकूट रंकासि दे, करटी भूपाप्रती**

अशें रुद्राक आवाहन कर. नवे इकरा जाण येतलेच येतले. गोंयाक परती एक फावट जाग हाडटलेच हाडटले आनी तुज्या सपनांतलें गों उबें करून दाखयतलेच दाखयतले.

भगवान के दरबार में देर है, अंधेर नहीं.

मनोहरबाब, आयज आमी हांगा दोगां विभूतिंचो भौमान करपाक एकठां जमल्यात. एक, तुजो – गोंयच्या आनी गोंयकारांच्या कवी मनोहरर सरदेसायांचो. आनी दुसरो, मनोहरराय सरदेसायांतल्यान कवी जावन मुख आयिल्ल्या गोंयचो आनी गोंयकाराचो.

तुका पंच्यास्तर वर्सां जालीं म्हूण कोणूय कितलेंय सांगूं, तूं तांचे कडे लक्ष दिवं नाका. आमकां तूं पस्तीस वर्सांचोच दिसता. पस्तीस वर्सांचो सदांकाळ उरिल्लो तूं आमकां जाय.

२८-१-२००० दिसा मनोहरराय सरदेसायांच्या अमृत महोत्सवी सुवाळ्या दि पणजे कला अकादेमींत ब्लॅक बॉक्सांत जमिल्ल्या लोकांमुखार केल्लें उलोवप.

# दुयेंत

**मूळ तमीळ: अळगिय सिंगर (चंद्रमौलि)**
**हिन्दी अणकार: डॉ. एच्. बालसुब्रह्मण्यम**
**कोंकणी अणकार: मुकेश थळी**

ांव आशिल्लों ते कुडींत २० खाटी आशिल्ल्यो. जण एकल्याच्या ामळार एक वेगळेच तरेची खिन्नताय पातळिल्ली. कठीण कुवाड्यां भशेन ेल्या वेगळ्या रोगांचीं लक्षणां बुचकळ्यांत उडयतालीं. तशी कूड फाव ता आस्कळ विस्कळ आनी हवेशीर आशिल्ली. म्हजी खाट जनेलालागीं शेल्ली. हांगा आड पडून भायले सृश्टिचो आनंद वरांचीं वरां घेवं येता. ुंनी कुचकुचीत भरिल्लीं झाडां किटकिट्टना आनी हांसतना दिश्टी टालीं. झाडां पेडां विशीं म्हजें गिन्यान मर्यादीत. तरिकूय हांवें पळेलें, ांच्या आंगणांत् रंगयाळीं फुलां दिसपट्टीं नवी रांगोळी रचतालीं. दुयेंसाच्या व्याक लागून आमचे दोळे झेमेल्ले आनी बाविल्ले आसुनूय भायल्या ण्यांचो चिंवचिंवाट आमच्यांत जागृत रावपाची उमेद भरतालो.

सप्तका आदली खबर. म्हजो जोर देंवचना जालो. बाबाक हुस्को जावंक ालो. आवयन म्हळें, सुटी घेवन हाची कुयदाद घेवंया. आवयन सप्तकभर ा काडली आनी म्हजी जतनाय घेतली. पूण जोर देंवलोना. आवय-बापायचो को वाडलो. कितें करचें, कोणाकूच येवजना जालें. बाबा लाचार कसो वन व्हडल्या काका कडेन गेलो. तो ह्याच हॉस्पिटलांत नर्सींचो सुपरवायझर. ान म्हाका हॉस्पिटलांत भरती केलो. सदां राती कडेन बाबा हॉस्पिटलांत दितालो.

हांगा भरती जालों ताच्या दुसऱ्या दिसा एक विचित्र अणभव आयलो. जे लायनींत निमाणे खाटीवेलो वायटकार सामको गंभीर आशिल्लो. ताका ॉक्सिजन' दीत आशिल्ले. तो 'कोमां'त आशिल्लो. सगल्यांक ताचो अंत गीं पावला हाचो अदमास आयिल्लो. जायतीं वरां तो हालचाली विणें कूड कसो पडून आशिल्लो. दोतोरांनी ताच्या सोयऱ्यांक सुचोवणी केली आतां हॉस्पिटलांत रावन फायदो ना, ताका घरा व्हरात. ताचे भाव का घरा व्हरूंक पावले, तेन्ना तो सोंपिल्लो. खाटीक रेवाडो घालून यरीं-धायरीं होळोम घालीत रडलीं.

थोड्या वेळान पळेल्यार, खाट रिती. कसलेंच स्पंदन ना, हालचाल . साप रिती आनी एकसुरी. कसल्या दुयेंसाचे भकीक तो पडलो, कोण णा! ते वटेन नदर घुंवडायना बराबर एक भिरांकूळ देखाव दोळ्यां मुखार ालो. अर्दुकुट्या झेमपी दोळ्यांनी आड पडटालों तेन्ना तो मेल्लो मनीस त थंय येवन खाटीर आड पडून निमणे स्वास घेता अशें दिसतालें. त परत होच देखावो दोळ्यां मुखार घुंवतालो. हो कांच लिपोवपाच्या ांत म्हजो जोर देंवला आनी हांव घटमूट जालां अशी बेठीच कल्पना ली. उपरांत तकलेंत आयलें, हांथरुणार पडून रावप म्हळ्यार दुयेंसाचें क्षण. हांव दुयेंसांतल्यान निवळ्ळां हें सिद्ध करपा खातीर खाटी वेल्यान न चलपाक लागलों. वॉर्डांतले ड्युटीवेले नर्सीन म्हाका विचारलें – ''कितें हरी! असो हांथरुणावेल्यान देंवन खंय चल्लो?''

''असोच पासय घेतां.''

''तुवें कूस लेगीत परतूंक फावना. जोर चडटलो. चल, न्हीद...''

तिच्या उतरांनी शिस्तिची सक्ती आशिल्ली. कांयच येवजलें ना तेन्ना तिचे मुखार वचून बसलों.

तिणें म्हजेवटेन विचित्र नदर मारली.

''कोनशा कडले खाटीर एक पेशंट आशिल्लो, तो सोंपलो.''

''तो मेलो जाल्यार तुका कितें जालें?''

''कांय ना.''

''ताका हांगा हाडिल्लो तेन्नाच तो वाटावचोना हें आमी जाणा आशिल्लीं.''

''अशे हांगा कितले लोक मरतात?''

''मरतात अर्दीं मर्दीं कितलेशेच... चल वच आनी तुजे कॉटीर न्हीद.''

हांव थंयच्यान मुखार सरकलों.

''खंयचे क्लासींत शिकता?''

''धावेंत.''

खाटीर वचून बसलों. नदर भायर मोखली. जनेलांतल्यान झाडां दोळे मारीत हांसतात, अशें दिसलें. दोन चानयो धरचेल्यांनी खेळटाल्यो. एक फूल वाऱ्यार उफेत सकयल पडलें. हांवें लागिंच्या तशेंच पयसुल्ल्या पेशंटांक बारीकसाणेन तेळ्ळे. ते अर्दुकुटे न्हिदिल्ले. एक वायटकार कितें तरी खातालो. ह्या लोकां कडेन म्हजें नातें कशेंच जुळूं नज.

प्यून येतालो. नर्सीन ताका आपयलो आनी मरण आयिल्ल्या पिडेस्ताचे खाटी वटेन कुरू केली. निवळ करपाक सांगलें.

ताणें रबर-शीट काडीत विचारलें, ''हो खंय घालूं?''

नर्सीन म्हजे खाटी वटेन कुरू केली. हांव हें सगळें पळेतालों.

रबर-शीट घेवन तो म्हजे खाटी वटेन आयलो. रबर-शीट पळेनाफुडें म्हज्या म्हाका वीट आयिल्ले भशेन जालें. मेल्ल्या मनशा खातीर वापरिल्लो शीट हो. म्हज्या हांथरुणार घालूंक दिवं? थोड्या वेळा आदीं ह्याच शिटाचेर ताचें मडें पडिल्लें. म्हाकाय बी हाचेर न्हिदचें पडना मू? ना, हें जावंक फावना. निखालस ना. हांवें व्हडल्यान रडपाक सुरवात केली. नर्स धांवत आयली. तिणें वासपूस केली, ''कितें जालां?''

''म्हाका हो रबर-शीट नाका.''

''कित्याक?''

''मरण आयिल्ल्या मनशान तो वापरला.''

तिणें रोखडीच प्युनाक ऑर्डर सोडली, ''हो हांगाच्यान व्हर. हांगा घालूं नाका.''

तो शीट घेवन गेलो. राती कडेन बाबा योसर म्हजो दोळो लागलोना. जेन्ना जेन्ना तो दिसतालो, ताका हांव म्हजे म्हऱ्यांत बसूंक सांगतालों.

''हरी, कसो आसा तूं? भियेल्ले भशेन सो दिसता ?''

''त्या कोनशा कडले खाटीर पेशंट आशिल्लो न्हय, तो सोंपलो.''

''कितें जालें काय ताका ?''

''बाबा, हांव घरा वचूं ?... हांगा बरेंऽ दिसना.''

''बरो जातकच या रे. आतां ओग्गी न्हीद पळोवया.''

बाबा न्हिदलो. हांव जागोच उरलों. जनेलांतल्यान नखेत्रांक पळेत रावलों. आतां झाडां भयांकृत दिसतालीं. दरेक झाड भूत जावन नाचतालें. हांवें जनेलांतल्यान नदर फाटीं ओडली. हय-न्हय-शा उजवाडांत कुडींत शांती पातळिल्ली. मात्शी पयस एक नर्स बशिल्ली. अर्दें न्हिदेंत वेल्यान हुमकळपी पंखे कुडिची थंडाय चिरीत बोवाळ घालताले. दोळो केन्ना लागलो, कळ्ळेंच ना. हांव थार न्हिदलों.

परंपरे प्रमाण सकाळीं म्हाका गुळये वांगडा उदकाचो ग्लास दिलो. गुळी ताळ्या खाला देंवतकच दांत घांसपाक लागलों. दांत घांसतना वीट आयलो. संडासाची नितळसाण सांबाळपाक सरकारी हॉस्पिटलांनी अदीक लक्ष दिवंक फावो. हांथरुणार लवंडलों. पळेत जाल्यार बाबा परत वचपाचे तयारेंत बसला. सात-साडे सात मजगतीं हांगच्यान भायर सरलो जाल्यार न्हावन-धुवन वेळार ऑफिसांत पावं येता. हांव हांगा भरती जायत सावन आवय एकूय दीस पळोवंक येवंक ना. तिका हॉस्पिटलाच्या नांवाचीच ॲलर्जी. काकाची ड्यूटी सद्या दुसऱ्या एका वॉर्डांत लागल्या. म्हाका मेळ्ळे बगर मात तो घरा वचना. हांगा काम करपी सगल्या नर्सींक म्हजी बरी कुयदाद घेवपाची ताकीद ताणें दिल्या.

काका वरवींच नर्स लीलाची वळख जाली. कित्याक म्हूण कोण जाणा, ती म्हजी विशेश अपुरबाय करी. खाटीक तेंकून स्टूल दवरून वरांचीं वरां खबरी मारीत बसताली. तिचेकडेन गजाली करतना कितलो वेळ गेलो हाचें भान मात उरनासलें. केन्नाय म्हजे केंस वळयताली, केन्नाय म्हजें हांथरूण सारकें दाळून बी दवरताली. सभावा प्रमाण म्हाका बायलां म्हऱ्यांत बसपाक आडखळिल्ले वरी जातालें. लीला कडेन खबरी करतनाय सुरवेक मात्सो संकोच दिशिल्लो. मात ल्हवू ल्हवू तो पयस जालो. तिचें मुखामळ सामकें म्हजे म्हऱ्यांत आसतालें, तेन्ना तिची पापी घेवची अशें मनापसून दिसतालें. लीला पिरायेन व्हड.

''तुका पळेनाफुडें गांवांतल्या म्हज्या धाकट्या भावाची याद येता.'' लीलान एक दीस म्हळें.

''हु...म्.''

''सगळ्यांक गांवांत सोडून हांगा एकलेंच आयलें. एकलें रावतना घरची खूब याद येता.''

''तुजो धाकटो भाव पळोवपाक म्हजे भशेन दिसता ?''

''सामको तुजेभशेन. म्हणुनच तुजे कडेन उलयत रावचेंशें मना पसून दिसता.''

''तो कितें शिकता तर ?''

''तोय तुजे भशेन इश्कोलांत शिकता.''

''तांकां सगळ्यांक थंय सोडून एकटीच हांगा कित्याक आयली ?''

''आनीक थोडेच दीस. ते उपरांत हांव गांवांत वतलें वा म्हजें कुटुंब हांगा येतलें.''

म्हजे विशीं तिच्या मनांत तर भावा खातीर भयणिची आसता तशी माया शिल्ली. म्हूण हांव लीलाक भयणी भशेन पळोवंक शकनाशिल्लों. पयलेच खेपे खंयचेय चलयेक मेळटकच वा वळख वाडयतना दादल्याच्या मनांत जे भाव-तरंग सळसळटात, तसो लीला वांगडा उठ्ठना-बसतना म्हज्या मनाक अणभव जातालो. ती आनीक कोणाय वांगडा – खास करून तरणाट्या दोतोरां कडेन मेकळेपणान हांसतना-उलयतना दिसताली तेन्ना तेन्ना म्हज्याय मनांत सांगूं नजो अशी दुस्वासाची भावना उदेताली.

म्हजी तब्येत पुरायेन निवळ्ळी. फकत थोड्यो गुळयो चालू आशिल्ल जोर देंवतकच जी अशक्तताय येता ते स्थितींत तोंड कोडू-कोडू जात ओंठ सुकताले.

''फाल्यां तुवें घरा वचप'', लीलान सुचोवणी दिली. तो शुक्रार आशिल मन खोशयेन भरून आयलें. पूण हांवें पारखिलें, लीलाची नुरा निर्शेल्या.

म्हजो हात आपल्या हातांत घेत लीलान विचारलें, ''तूं म्हाका मेळ् येतलो मरे ?'' म्हजो गळो दाटून आयलो. जाप फुटलिना. ती तोंड करून पळेत रावली.

''तूं बरोच अशक्त दिसता. टॉनिक बी घेवन भलायकी घटमूट करप जाय. तूं म्हाका मेळूंक येतालो, तेन्ना हांव तुका टॉनिकां आनी व्हिटामिनांच गुळयो दितां. येतलो मरे ? हांवें सकारात्मक कुरवेन तकली हालयली.

''तुका पळेतां, तेन्ना सख्ख्या भावाक मेळिल्ल्याची खोस जाता.''

आमी दोगांय उलयतनाच, लीलाक सोदीत थंय एक नर्स पावली. ति विचारलें, ''आगो, तूं अजूनय हांगाच आसा ?''

''हरी फाल्यां घरा वतलो.''

ती म्हाका पळेत रावली.

''खऱ्यांनीच, मना पसून दिसता, जाता तितले बेगीन ह्या नरकांतल्या सोडणूक करून घेवची.'' हांवें म्हळें.

''आमकां पळोवन कशें दिसता ?'' लीलान विचारलें.

''काकळूत येता...''

''केन्ना केन्नाय आमकांय साप वीट येता. खास करून तेन्ना, जेन्ना पेश कारणा भायर आमकां आपयता तेन्ना.''

''फुडल्या सप्तकांत तुजी नायट् ड्यूटी गो ?...'' लागीं उबी आशिल नर्सीनं विचारलें.

''हय.''

''करुणाकरनाचीय नायट ड्यूटी आसा.''

''जालें. मेलें.'' लिलान नाखुशी उक्तायली.

''करुणाकरन कोण ?''

''तूं ताका वळखना. हांगा एक नवो दोतोर आयला. संद मेळना फु म्हजे फाटल्यान लागता. देखून भियेतां.''

''चली दिश्टी पडली की जालें... सरभोंवतणचो सगळो वाठार विसरतात.'' लागीं उबी आशिल्ले नर्सीन म्हळें.

खबरी जातकच दोगांय थंय सावन गेलीं. ज्या दिसा हांव हॉस्पिटलां आयलों, त्या दिसा जोर आशिल्लो. उपरांत देंवलो. हांगाची जीण विचित्रूच सबंद वातावरणांत सदांच डॅटॉलाचो वास पातळिल्लो आसता, नाकांत सामक भेदून वता. कोणाच पेशंटाकडेन म्हजें उलोवप नाशिल्लें. सगळेच पिराये व्हड. सांजवेळा दरेके खाटी भोंवतणी इश्टांची आनी सोयऱ्यांची गर्दी. दुयेंती रेवाडो घालून तांच्यो त्यो आड्डू-आड्डून केल्ल्यो गजाली. ह्या बोवाळ वरवीं सबंद हॉस्पिटल इमारत ते हालोवन उडयतले अशी भिरांत दिसताली सादारणपणान सांजवेळा म्हाका मेळूंक कोण येनासलो. केन्ना केन्नाय काक येवन म्हाका हॉस्पिटलाच्या कँटिनांत व्हरतालो आनी इडली दितालो. म्हज केन्ना ह्या नरकांतल्यान सुटका जातली हेंच हांव सदांच बसून येवजितालों.

पांच वरांचेर सुमार सदचे भशेन मेळपी लोकांची रांग लागिल्ली. कपला बिबूत फाशिल्ल्या एका मनशान कुडींत पावल दवरलें. तो पेशंटांक बिबू वांटीत सुटलो. म्हजे कडेनूय आयलो.

''हें कितें ?'' हांवें विचारलें.

''देवाचो प्रसाद, बिबूत.''

''कित्याक वांट्टा ?''

''रोगी बेगीन निवळचो म्हूण. समाज-सेवा. म्हयन्यान एकदां फाव मारतां.'' अभिमानान ताणें म्हळें.

त्या दिसा सकाळीं दोतोरांनी म्हाका घरा व्हरूं येता अशी निश्चिती त्या वेळार थंय बाबाय आशिल्लो. ''सांजे व्हरूंक येतां.'' ताणें म्हळें. वचपाक तयार जावन बसलों. लीला आयली. तिची ड्यूटी रातची जाताली. ह्या वेळार ती आपल्या धव्या गणभेसांत नाशिल्ली. साडी ल्यान बरीऽ दिसताली. म्हाका पळेनाफुडें तिचे दोळे चकचकले. म्हजे तेणें आपल्या हातांत घेतले.

विसरचोना मरे हरी?'' विचारतना तिचो गळो दाटलो.

ना.''

सुटयेंत म्हाका मेळूंक यो.''

तूं खंय मेळटली?''

ह्याच वॉर्डांत मेळटलें, नाजाल्यार हॉस्टेलांत. हॉस्टेल हांगाच आसा. नंबर बी बरोवन दितां.''

णें आपल्या हॉस्टेलाचो नामो बरोवन म्हज्या हातांत दिलो.

तुका व्हरपाक कोण येतलो?''

बाबा.''

आरोग्य सांबाळ. सद्दां तांतयां खा. इतलो किडकिडीत, दुबळो आसप र न्हय. आंगांत मूठभर चरबी-मांस तरी जाय. फकत हाडावळ जाल्या.''

च्यो गजाली आयकत रावलों. तिका कितें येवजलें कोण जाणा, म्हाका ले सरीं ओडीत वेंगेंत घेतलो आनी मायेन म्हजो उमो घेतलो. तिचे म्हजी पुराय कूड थरथरली.

बा आपोवपाक आयलो.

वें लीलाचो निरोप घेतलो. हॉस्पिटला भायर येतकच गाडयांच्या ंताळ्या आवाजान कान फुट्टात काय जाले. शाराच्या वण्टिंनी रंगयाळे टर दिसताले. खंयच्या खंयच्या थेटरांत खंयचीं पिक्चरां लागल्यांत तें टर सांगताले.

* * *

# डायग्लॉसिया

(दुसरी खिस्त)

# शंबर वर्सां फाटल्या 'हिंदू गोंयां'त

माधवी सरदेसाय

शंबर वर्सां फाटीं वचुंया.

गोंयकार हिन्दू कोंकणी मनशाची दिसपट्टी भाशीक जीण 'प्रमाण मराठी' आनी 'कोंकणी बोली' ह्या दोन भाशीक रुपांनी वांटून गेल्ली.

प्रमाण मराठी 'वयलीं' भाशीक मळां आडावन बशिल्ली आनी कोंकणी 'सकयल्या' मळांचेर घोळटाली. घरांत तशे भायर लोक एकामेकां कडेन कोंकणींतल्यान उलयताले. पूण सभेमाजार वा माचये वयल्यान उलोवचें जाल्यार मराठींतल्यान उलोवंक लागताले – कोंकणी साद्या उलोवपाची – खबऱ्यांची, चकाटांची **बोली** आशिल्ली आनी मराठी उपचारीक उलोवपाची – भाशणांची, माचये वयल्यान सुचोवण्यां बी दिवपाची **भास** आशिल्ली. देवळांतलीं किर्तनां पुराणांय मराठींत जातालीं. बरोवपाची भासूय मराठीच आशिल्ली. गोंयकार हिन्दू पसरकाराकडेन 'गोड' विकतें मागतालो आनी पसरकार ताका तें 'गोड' म्हुण्णूच दितालो. पूण आपणाले हिशेबाचे पटयेर मात 'गूळ' बरयतालो.[1] खाजगी पत्रां मराठींत बरयताले. व्हॉवळीक पत्रां, आमंत्रण पत्रां मराठींत छापताले. नांवांच्यो वा सुचोवण्यो दिवपी पाटयो मराठींत आसताल्यो.[2] कथा, कविता, नाटकां, निबंद बी बरयल्लें साहित्य मराठींत आसतालें. हांतूंत कोंकणी आयलीय जाल्यार ती भाशेंत थळावे रंग भरपाक, चड करून नाटकां, नाटकुल्यांनी पात्रांच्या तोंडांतल्यान येतालीं. खबरांपत्रां, नेमाळींय मराठींत आसतालीं. हांतूंत कोंकणींतल्यान जायरात दिली जाल्यारूय ती छापपाचो संपादप्यांक धीर जायनाशिल्लो.[3] कोंकणींत जिबे वयलें साहित्य आशिल्लें – लोकां काणयो, उमाणीं, फुगड्यो बी लोक-वेद आशिल्लो. देवांक 'गाराणीं' कोंकणींतल्यान घालताले, 'प्रसाद' कोंकणींतल्यान घेताले. पूण देवाची तुस्त तोखणाय ('स्तोत्रां') मराठींतल्यान गायताले. भजनां आरत्यो मराठींत म्हणटाले.[4] मराठी (मुळाव्या पांवड्यार) शिक्षणाचें माध्यम आशिल्ली. पूण शिकयल्लें सारकें समजावन सांगपा खातीर शिकोवप्यांक कोंकणीचोय वापर करचो पडटालो.[5]

आदल्या 'हिंदू गोंयां'त मराठीक प्रतिश्ठा आशिल्ली जाल्यार कोंकणीक 'हेंगाडी' लेखताले. तिका प्रतिश्ठाच नाशिल्ली. हिंदू कोंकणी उलयताले पूण आपणाक मराठी भाशीक मानताले. तांगेले जिबेर दिसपट्टी घोळपी कोंकणी 'भासू'च नाशिल्ली. ती मराठीची 'बोली' आशिल्ली, वा, 'अशुद्ध मराठी' आशिल्ली.[6] मुंबय सारकेल्या शारांत दोग हिंदू गोंयकार एकामेकांक मेळटाले तेन्ना चार चवगांत कोंकणी उलोवपाचीय खंय तांकां लज दिसताली आनी ते मराठींत उलोवंक लागताले.[7] मराठी सारकी उलोवंक लेगीत नकळ आशिल्ले तिका आपणाली 'आवयभास' मानताले. कोंकणी परस तांकां ती अदीक 'सुंदरू'य दिसताली. ह्या गोंयांत मराठी सगळ्यांक सारकी समज नाशिल्ली, तरी सगळीं तिका तोखेतालीं. आनी, कोंकणी सगळ्यांक सारकी समजताली पूण कोणाकूच तिची तोखणाय नाशिल्ली! गोंयकार हिन्दूंच्या धार्मीक वेव्हारांत मराठीन जोडिल्ले सुवातेक लागुनूय हे प्रतिश्ठेक बळ मेळिल्लें अशें म्हणूं येता. हिंदूंची खरेली धार्मीक भास संस्कृतूच संस्कृत मंत्रां, श्लोकां बगर एकूय हिंदू धर्मकार्य तडीक वचना. तरी, भजनां स्तोत्रां गावप, चरित्रां वाचप, 'महात्म्यां' सांगप हे सारकेले धार्मीक वेव्हार गोंयांत मराठींतल्यान चलताले. अजून चलतात. गोंयांतले पुरोहीत मुखेलपणान मराठी वाटारांतल्यान आयिल्ले देखून थंयचे वरी गोंयांतूय मराठी हिंदूंची पालवी धार्मीक भास जावंक पावली जावंक जाय. (कोंकणी मराठी भितर डायग्लॉसीक नातें आशिल्ल्यानूय मराठी वाटारांतले पुरोहीत गोंयांत पावले अशें म्हणूं येता.)

---

१. शणै गोंयबाब १९३०. **कोंकणी भाशेचें जैत**: ३९.

२. गोंयच्या देवळांनी अजून चडश्यो मराठी पाटयोच दिश्टी पडटात – 'पादत्राणे येथे ठेवा', 'शांतता राखा', 'प्रसाद घेतल्या शिवाय जाऊ नये', 'देवकृत्याची पावती मागून घ्यावी', 'येथे ओटीचे सामान मिळते' हे तरेच्यो पाटयो. देवळांनी वचपी गोंयकारांचे संवकळिच्यो. 'हिंदू धर्माची भास मराठी' म्हणू काय देवा अशें?

३. १९१३त शणै गोंयबाबालें **मोगाचें लग्न** नवेंच उजवाडा आयिल्लें. तेन्ना तांणी गोंयच्या एका साताळ्यांत ताची कोंकणींतल्यान जायरात दिवची केल्ली आनी ती घेवपाक खंय तें साताळें जायतें फाटीं फुडें आयिल्लें. **मोगाचें लग्न** पुस्तकाचे दुसरे उजवाडावणेच्या (१९३८) सुरवेच्या उतरांनी उजवाडावपी भौ. काशिनाथबाब नायक ही चोवीस वर्सां फाटली खबर सांगतात. शणै गोंयबाबाल्या काळार गोंयच्या हिन्दू समाजांत कोंकणीची स्थिती कशी आशिल्ली ताचो अदमास घेवंक हीं सुरवेचीं उतरां मुजरत वाचचीं. पळेयात: **मोगाचें लग्न**, तिसरी उजवाडावणी (१९८९) ५-१०.

४. स्तोत्रां, भजनां, आरत्यो ह्यो मुळच्यो बरयल्ल्या साहित्याच्योच तरा. ह्या मळार अजून गोंयांत मराठी चलता. कोंकणींत कांय जाणांनी स्तोत्रां, भजनां, आरत्यो बरयल्यात. (हांगा सुहासबाब दलालांचें नांव घेवंकूच जाय.) पूण रासवळ मळार तांचो व्हडलोसो वापर जायना.

५. आयजूय गोंयांतल्या चडश्या मराठी 'सरकारी प्राथमिक शाळां'चें 'खरेलें' शिक्षणाचें – गिन्यान दिवपाचें, समजावन सांगपाचें – माध्यम कोंकणीच.

६. पळेयात: शणै गोंयबाब १९३०. **कोंकणी भाशेचें जैत**: ४७. त्या वेळावयले हिंदू गोंयकार गोंयच्या थळांच्या नांवांचें आनी गोंयकारांल्या कुळनांवांचेंय बरपांत मराठीकरण करतालो. **पानवेल, ताळगांव, बांदोडें, शिरोडें, दिवचल, व्हडलें गोंय, बारदेस, साश्ट** हीं नांवां बरपांत **पनवेल, तळेगांव, बांदिवडें, शिरवडें, डिचोली, थोरले गोवें, बारदेश, साशष्टी** जातालीं. तशीं, **जोयशी, तेलिंग, परोब, देसपरोब, म्हांबरे** बी कुळनांवां बरपांत **जोशी, तेलंग, प्रभु, देशप्रभू, म्हांबरे** जातलीं. गांवां वयल्या आडनांवांतलो **कार** वचून थंय **कर** येतालें; **शणै शेणवी** जातालो. (कांय प्रमाणांत अजून गोंयांत हें अशें घडटा.) आनी, मजा म्हळ्यार, हीं मराठी रुपांच गोंयकारांक आपणाल्या नांवांची 'खरेलीं' रुपां दिसतालीं!

७. होय उल्लेख काशिनाथबाबांल्या सुरवेच्या उतरांनी आयला. पळेयात: **मोगाचें लग्न**, १९८९:८६.

मठी कडेन बरपांतल्या साहित्याचें गडगंज दायज आशिल्लें. तिचे कडेन ज्ञानेश्वर, नामदेव, तुकाराम, समर्थ रामदास, मोरोपंत बी आशिल्ले. ...चीं बोल्सां तशीं रितींच आशिल्लीं. तिचे कडेन ज्ञानेश्वर, नामदेव, ...काम, समर्थ रामदास, मोरोपंत हांचे सारकेले कोण नाशिल्ले.

...कणी भास भुरग्यांक घरगुती वातावरणांतल्यान शिकयले बगर 'येताली'. ...रार तांकां मुद्दाम यत्न करून शिकची पडटाली. इंग्रजी सरादींतले ...रार शिकिल्ले लोक गोंयां येवन मास्तरकी करताले आनी तांचे कडल्यान ...कार मराठी शिकताले.[८]

...मठीक व्याकरणीक अभ्यासाचें दायज आशिल्लें. ती कशी उलोवची, ...रोवची, खंयच्या प्रसंगार तिची खंयची शैली उपकरावची हाचे सगळ्याचे ...लून दिल्ले आशिल्ले. मराठीचें प्रमाणिकरण जाल्लें. प्रमाण मराठीचीं ...लीं व्याकरणां आशिल्लीं. तिचे कोश आशिल्ले. कोंकणीचीं व्याकरणां ...ल्लीं पूण तीं कोंकणी मनशांनी कोंकणी मनशांच्या वापरा खातीर ...णींतल्यान बरयल्लीं नाशिल्लीं. तीं भायल्या जाणकारांनी एका खाशेल्या ...भायल्या भासांनी बरयल्लीं. कोंकणी कोशांचीय हीच तरा. कोंकणीचें ...करण जावंक नाशिल्लें. 'मराठीवाद्यां'च्या हिसपान कोंकणीचें हें ...चें वेगळेपण कोंकणी 'भास' न्हय[९] म्हूण सिद्ध करून दाखोवपाचो ...द्दो आशिल्लो.

...कड्यांनी वर्सां सावन हिंदू गोंय हे तरेन आपणाली भाशीक जीण ... 'वयली **भास**' आनी कोंकणी 'सकयली **बोली**' ह्या दोन भाशीक ...गो वांटून घालून जियेत आयिल्लें.

...राठी आनी कोंकणी भितर व्याकरणी बांदावळिचीं वेगळेपणां खूब ...ल्लीं. पूण म्हूण मराठीच्या व्याकरणा परस कोंकणीचें व्याकरण सोंपें ...ल्लें अशें मानपाक मात आधार ना. फर्गुजनान दिल्ल्या चार देखीं ...ह्या स्विस जर्मन आनी प्रमाण जर्मन ह्या डायग्लॉसियेच्या नात्यान ...ल्या भाशीक रुपांकूय व्याकरणीक सोंपेपणाचें हें लक्षण लागू जायना. ...कोंकणी मराठी भितर उतरावळिचें वेगळेपणूय खूब आशिल्लें. ...यिचो मनीस मराठी उलयतालो तेन्ना सामान्यतायेन ताचे मराठीक ...कणी सुवाद' येतालो. म्हळ्यार, दोनूय भाशीक रुपांच्या मुळाक नादांची ... बांदावळ आशिल्ली.[१०]

...डायग्लॉसियेच्या णव लक्षणां (फर्गुजन १९५९) भितरलीं आठ लक्षणां ... वर्सां फाटले 'हिंदू गोंयां'तले भाशीक परिस्थितीक बेस बरीं लागू ...त. ही परिस्थिती कशी, कित्याक लागून जल्मा आयली ह्या प्रस्नाची ...य आमकां फर्गुजनांच्या निबंदांत मेळटा – (१) साहित्यीक नदरेन ...ी गिरेस्त, 'प्रस्थापीत भास' आशिल्ली. धार्मीक आनी सांस्कृतीक ...गांक लागून गोंयचो हिंदू समाज ह्या साहित्या कडेन आपलेपणान ...ालो. तो ताचे कडेन identify जाल्लो. कोंकणींतलें साहित्य चडशें ...तांव धर्मा कडेन आनी क्रिस्तांव संस्कृताये कडेन जोडिल्लें आशिल्लें. ...भायले' – रोमी लिपयेंतूय बरयल्लें आशिल्लें. देखून, 'वनवाळ्यांचो ...', 'सांत आंतोनीचीं अचर्यां' सारकेलें बरप 'आपलें' भाशेंत आसुनूय ...क 'आपलें' दिस नाशिल्लें. आनी, 'ज्ञानेश्वरी', 'अमृतानुभव', ...बोध', 'मोरोपंती महाभारत', 'योगवसिष्ठ', 'द्रोणपर्व' बी साहित्य ...यांचे' भाशेंत आसुनूय गोंयकारांक 'आपलें' दिसतालें. ह्या आपलेपणाक ...न 'दुसऱ्यां'ची भासूय तांची 'आपली' भास जाल्ली.[११] आदल्या काळार ...कार हिंदू मदलो एक ल्हान वर्गूच बरपाक्षरी आशिल्लो. हेरांक वाचूंक ...क येना आशिल्लें, आनी (३) १ आनी २ वयल्यान शतमानांचीं ...ानां उलगल्लीं. दोन कुडक्यांची भाशीक जीण जियेतल्या समाजाक ...वेचित्र्य दिस नाशिल्ली आनी तिचे पसून त्रासूय जाय नाशिल्ले. ...' मागतल्याक गोड 'गोड' म्हणून दिवप आनी हिशेबाचे पटयेर मात 'गूळ' बरोवप; बसका सुरू जावचे पयलीं आपसांत खबरी कोंकणींतल्यान मारप आनी मागीर त्याच लोकां मुखार 'बंधू भगिनींनो' म्हणून मराठींतल्यान (मोठ्या कश्टान) उलोवप करप हाची समाजाक संवंय जाल्ली. डायग्लॉसिया हिंदू गोंयची परंपराच आशिल्ली.

ह्याच गोंयांत वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकाराचो जल्म जाल्लो. चार चवगां वरी वालावलीकारूय मराठीक गोंयची थळावी भास लेखताले. मराठी-पुर्तुगेज शाळांनी वापरपा खातीर तांणी O Mestre Portuguez म्हूण पुस्तक बरयल्लें. ह्या पुस्तकाचे पुर्तुगेज प्रस्तावनेंत तांणी मराठीक a lingua vernacula म्हळ्यार, 'थळावी भास' म्हणिल्ली. तेन्ना (१८९९ वर्साच्या अदमासाक) तॉमास मैरांव हो पुर्तुगेज मनीस गोंयच्या शाळांचो इन्स्पेक्टर आशिल्लो. वालावलीकारांची प्रस्तावना वाचून मैरांवान तांकां म्हळें, 'गोंयची थळावी भास कोंकणी. ती मराठी कशी जातली?' वालावलीकारांक सट्ट जालें. तांकां आपली चूक कळून आयली.[१२] आनी कोंकणीचो दिश्टावो जालो. ह्या दिश्टाव्यान वालावलीकाराक 'शणै गोंयबाब' केलो. तेन्ना सावन ते निमाणे मेरेन शणै गोंयबाब आपणाल्या – गोंयच्या हिन्दू समाजाक डायग्लॉसियेंतल्यान मेकळो करपा खातीर वावुरले. मुंबयच्या सारस्वत ब्राह्मण समाजाचे सभेंत ते गोंयच्या इतिहासाचेर **कोंकणींतल्यान** उलयले. कोंकणींतल्यान ते **बरोवंकूय** लागले. जंय मराठी नाटकांच पळोवपाची आनी माचयेर हाडपाची संवंय आशिल्ली तांकां तांणी 'मोगाचें लग्न', 'पोवनांचें तपलें', आनी 'झिलबा राणो' हीं नाटकां दिलीं. भगवद्गीताय शणै गोंयबाबान कोंकणींत हाडली. आनी अशे तरेन कोंकणीच्या वापराचीं मळां रुंदावपाचो वावर तांणी सुरू केलो.

---

८. **कोंकणी भाशेचें जैत**: २. शणै गोंयबाब म्हणटात, गोंयकारांक आपल्याच लोकांक जर आपली खाशेली आवय-भास शिकोवंक येना, आनी ती शिकोवंक तांकां परके लोक, तांणी बरयल्लीं पुस्तकां, वर्तमानपत्रां आनी नाटकांचे प्रयोग हांचेर आधारून रावचें पडटा जाल्यार ते जिका आपणाली आवय-भास मानतात ती खरेपणानशीं **परकी भास** म्हळ्यार, **घेडी भासूच** म्हणूंक जाय.

९. २६ जुलै १९२७च्या मडगांव सावन उजवाडा येवपी **हिंदू** नेमाळ्याच्या संपादप्यान भाशेचीं लक्षणां सांगून एक लेख बरयल्लो. कोंकणीक 'भास' नांव कित्याक फावना हें सांगपी हो लेख आशिल्लो. ह्या लेखांतलो एक मुद्दो – 'कोंकणी सरस्पत एकरुपी ना' (**कोंकणी भाशेचें जैत**: ३४) होच आशिल्लो. **हिंदूं**तल्या ह्या लेखाक शणै गोंयबाबान (कोंकणींतल्यानूच) जाप दिल्ली आनी ती त्याच वर्सा सप्टेंबर, ऑक्टोबर म्हयन्यांच्या अदमासाक केपेंच्या **भारत** पत्राच्या तीन आंकांनी उजवाडा आयिल्ली. शणै गोंयबाबाली ही जाप 'भाशेचीं लक्षणां' ह्याच माथाळ्या खाला **कोंकणी भाशेचें जैत** पुस्तकांत (पानां ३३-३४) आसपावल्या.

१०. गोंयच्या गोंयांत रावन मराठी शिकपी कोंकणी भाशिकाच्या मराठी उलोवपाचेर आयजूय कोंकणी नादवेवस्तेचो प्रभाव आसा अशें म्हणूं येता. आमी (गोंयकार) कोंकणी हेळे काडून मराठी उलयतात. इतलेंच न्हय, आमचे म्हाप्राणूय मराठी म्हाप्राणां परस मोवाळ जातात. मराठी उतरांतले मदले आनी निमणे सुवाते वयले म्हाप्राण आमी जायते फावटीं 'खातात'. असोच निमाणे सुवाते वयलो स्वरूय बी खूब फावटीं आमी 'खातात'...

११. हे भाशीक परिस्थितिचे फाटभुंयेर 'कोंकणींत बरपी साहित्य आशिल्लें आनी पुर्तुगेजांनी तें लासून ना नपयत केलें' ही म्हणणी आमी सारकी तर्जून पळोवंक जाय. कोंकणींत साहित्य आशिल्लें जाल्यार पाद्री तॉमास स्टीवन्सांक 'ख्रिस्त पुराण' मराठींत कित्याक बरयन दिसलें? दुसरें, ही साहित्यीक परंपरा, फकत पुर्तुगेजांनी साहित्य लासून उडयलें म्हूण, सामकी मुळा सावन ना कशी जावन गेली? कोणाच हिन्दूक ती तिगोवन दवरचीशी कशी दिसली ना? साहित्यीक मळार हिंदू गोंय पुर्तुगेज राजवटींत अशें मराठी कशें जालें?

१२. **कोंकणी भाशेचें जैत**: २१

शणै गोंयबाबां आदीं कोंकणी-मराठीचो वाद आशिल्लोच जाल्यार तो फकत भाशीक वाद आशिल्लो – व्याकरणीक नदरेन कोंकणी मराठीची बोली काय स्वतंत्र भास, ह्या मुद्द्याचेर केंद्रीत जाल्लो विद्वानां मजगतच्या मतभेदाचो तो एक विशय आशिल्लो.[13] शणै गोंयबाब हे तरेचे, कोंकणीचो पाखो घेवपी, व्याकरणीक नदरेन ती एक स्वतंत्र भास म्हूण सिद्ध करून दाखोवपी, निखटे विद्वान नाशिल्ले. विद्वत्ते वांगडा तांच्या विचारांत एक क्रांतिकारी समाजसुधारकूय आशिल्लो. तांगेलो कोंकणीचो दिश्टावो फकत व्याकरणीक सत्याचो एक अणभव नाशिल्लो. तो सांस्कृतीक बंदेपणाच्यो सरपळ्यो तोडून उडोवपी, समाजाक मानसीक गुलामपणांतल्यान मेकळो करपी दिश्टावो आशिल्लो. शेंकड्यांनी वर्सां सावन जो समाज अजाणपणान (शणै गोंयबाबांलेंच उतर) आपणाक मराठी लेखतालो ताका शणै गोंयबाबान हालोवन उडयल्लो आनी ह्या समाजाक एके नवे **कोंकणी** identityचो मंत्र दिल्लो.

शणै गोंयबाबांली क्रांती तांगेल्याच समाजांतल्यान – 'हिंदू गोंया' सावन सुरू जाताली. पूण ती थंयच सोंप नाशिल्ली. हिंदू गोंयाचे तुळेन 'क्रिस्तांव गोंयां'त कोंकणीचो वापर चड जातालो खरो. पूण ह्याय समाजांत कोंकणीक प्रतिश्ठा नाशिल्ली. हांगाय एके तरेची डायग्लॉसियाच आशिल्ली (हे विशीं फुडल्या लेखांत). शणै गोंयबाबान पळेलें – 'हिन्दूंक मराठी लोक आनी तांगेली भास व्हडलीं दिसतात आनी क्रिस्तांवांक पुर्तुगेज लोक आनी तांगेली भास व्हडलीं दिसतात... दोगूय परक्यांच्या नादांत आनी बडवाचारांत गुल्ल जाल्यात.'[14] ह्या दोगांकूय 'आपल्या खासा मेंदून येवजुपाचो'[15] संदेश तांणी दिलो आनी तांच्या हातांत कोंकणीची, एकवटाची घुडी दिली. ते बरयतात, '...आमगेले वाणी, चाड्डे आनी बामण, हिंदू तशे क्रिस्तांव हांणी गावडे आनी हेर सुदीर लेखिल्ल्या भावांक आपणाल्या उंच पांवड्यार चडोवन सगळ्यांनी मेळून कोंकण, कोंकणे आनी कोंकणी भास ह्या भौच सोबीत तिर्कुटाची भांगराची घुडी संवसारांत जयजयकारान फडफडावची.'[16] नव्या कोंकणी समाजाच्या ह्या सपनाक ते सांतेर आनी आंकवार मोरी – दोगांयचो आशिर्वाद मागतात.

फर्गुजन बरयतात तशें, काळ बदलूंक लागता तेन्ना डायग्लॉसियेची भाशीक समाजाक आडखळ जावंक लागता... ह्या नव्या काळाची सुलूस शणै गोंयबाबाक लागिल्ली. 'हिंदू गोंय' आनी 'क्रिस्तांव गोंय' ह्या गोंयच्या दोन वांट्यां मदली वेर सांदोवंक, निरक्षर लोकांक बरपाक्षरी करूंक, स्वतंत्र हिन्दुस्तानांत एक खाशेली identity आशिल्लें नवें राज्य घडोवंक कोंकणी बगर दुसरो मार्ग ना म्हणपाचें तांकां दिश्टी पडिल्लें. डायग्लॉसियेंतल्यान कोंकणी समाजाक मेकळो करूंक ते जिवीत भर वावुरले.

हे कोंकणी घुडयेक लागून गोंय गोंय उरलें, घटकराज्य जालें. कोंकणी साहित्य अकादेमींत पावली, राजभास जाली. आठवे वळेरेंतूय गेली. आयंज ती 'रांदचे कुडींतली भास' उरूंक ना. तिका 'क्रियादांची भास' म्हणून हिणसावंकूय कोण वचना. पूण तरी, कोंकणी मनशांचो भाशीक वेव्हार पळेल्यार प्रस्न पडटा, कोंकणी भाशीक समाज डायग्लॉसियेंतल्यान भायर आयला व्हय? (हे विशीं मुखावयल्या लेखांत.)

---

१३. डॉ. जुजे पेरैर हांगेलें **Konkani: A Language: A History of th Konkani Marathi Controversy**, Karnatak University, Dharwad 1971. हें पुस्तक मुजरत वाचचें. १८०७ वर्सा जॉन लीडन ह्या ब्रिटीश जाणकारा भारतीय भासांचेर बरयल्ल्या आपणाल्या लेखांत कोंकणीक 'dialect of Mahrasht म्हळ्ळी. ही कोंकणी-मराठी वादाची सुरवात अशें डॉ. पेरैर म्हणटात (पा.४ कोंकणी-मराठीच्या भाशीक नात्या विशिंची जाणकारांची मत्तां, तांणी दिल्ले पुरा बी दिवन डॉ. पेरैरांनी कोंकणी-मराठी वादाचो हो इतिहास बरयला.

१४. शणै गोंयबाब. **आबे फारीय: वज्रलिखणी** (संपा.) शांताराम शं. क वालावलीकार. कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय. १९७७: २०५.

१५. शणै गोंयबाब. **आबे फारीय: वज्रलिखणी**. २०६.

१६. शणै गोंयबाब १९४५. **येवकार अध्यक्षांलें उलोवप**: १३७.

# भौ. रवीन्द्र केळेकार

हांचो

## अमृत महोत्सवी भौमान

मंगळार ता. ७ मार्च २०००
ह्या दिसा, सांजवेळां ५ वरांचेर
पणजे कला अकादमी संकुलाच्या
दिनानाथ मंगेशकार सभाघरांत जावपाचो आसा.

मुखेल सोयरो
गोंय राज्याचे मुखेलमंत्री
**भौ. फ्रांसिस्क सार्दिन**

मानाचो सोयरो
फांकिवंत समिक्षक आनी लेखक
**प्रा. नामवर सिंह**

मुखेल उलोवपी
**डॉ. मनोहरराय सरदेसाय**

'जागा'च्या वाचप्यांक मायेमोगाचें आपोवणें

रवीन्द्र केळेकार सत्कार समितिचे वतीन

# गरू

श पर्येंकार

गरू हुंडकेत हुंडकेत आवडूगेर गेलें. मोगरू आवडूच्या खळयांत पावतकच ताळो अदिकूच भरून येयलो. तें व्हडल्यान रडपाक लागलें. आवडू गेर वचपाचे तयारेंत आसलें. मोगरू रडत येता तें बगून आवडू अजापलें. कडेन भयणिचे हळडिचो बोवाळ चल्ला आनी हें अशें रडत आमगेर असो प्रस्न आवडूक आफडून गेलो. मोगरू येयलें तेंच आवडूक वेंग रडोंक लागलें.

अशें पिशें कशें रडटा कित्याक गो?' आवडून तेका प्रस्न केलो.

गया, म्हाका आनीक जगचेलें ना. मी जीव दितां. जगोन तरी काय ?' नशिबच फुटकें माजें.'

आगो जीव दितां जीव दितां म्हणटा तें, तुजें जालां तरी काय तें सांग', डून तेका पोशेल्ले वरी करून, वेंगांतलें पयस करीत विचारलें.

भयणांचीं लग्नां जालीं. मी मात अशेंच भावाच्या घरा उरचें जालें. खंयच्या तांत पाप केल्लें कोण जाणा.' मोगऱ्याचे दोळे तांबशे जाल्ले. आवडूक चें दुख्ख खबर आसलें. अशें कायीय जातकच मोगरू आवडूचेर घालून आनी मुसमुसोन रडटा.

गरू धायेक वर्सांचें आसतना तेची आवय भायर पडली. बापूय भायर यार पांच-स वर्सां जातलीं. मोगरूक दोग भयणी. आनी एक भाव. सगळ्यां परस व्हडलो. भावाक तें बाबू म्हणटा. भयणांत मोगरू व्हडलें. आवडूक आवय मानता. आवय भायर पडले उपरांत आवडून आपलींच समजून तेंकां माया केल्या. मोगरू आवडूक बाया म्हणोन उलो मारता. काल्यां मोगरूचे निमाणे भयणिचें लग्न. आयज हळद. सोयऱ्या-धायऱ्यांनी भल्लां. लग्नाचे तयारेचो बोवाळ चल्ला. भयणिच्या लग्नाची मनांत खोशी ली तरी, तोंडार हांसो हाडून मोगरू सगळ्यां वांगडा बोवाळटा. हें हाड, हर. हें कर, तें कर. भायर-भितर तेच्यो कितल्यो फावटी पडटात तें च कळना. भितरले कुडींत मोगरूची मावशी शेंदरी हातळून बसल्या. शेकडेन घटकाभर उलयतलें असो मनांत विचार हाडून मोगरू वचून क बसलें. उलयतां उलयतां मावशेन मोगरूक फुड्यांत ओडलें. लेवेल्यान हात ओडीत मोगऱ्याक म्हणपाक लागली, 'म्हाज्या बायुच्या ळार अक्षदां पडों जायीं आसलीं. तितलें तरी बगूक देवान म्हाका जितें ल्यार पुरो. मागेर मेल्यार मरों. कोणयेक वासपूस घेयना म्हाज्या पोराची.' उतरां मोगरूचे भावजयेन ज्युस्त आयकलीं. तिणें मर्दींच तोंड घातलें.

वासपूस घेयना कशी? आमी आत्तां तेजें लगीन करपाक तयार आसां. लेलोच झिलगो हेका मानवना. तेका आमी तरी काय करूं...?' भावजयेचीं उतरां आयकोन मोगऱ्याच्या दोळ्यांत दुकां दाटलीं. तेका हुंडको येयलो. ी दुसऱ्याच खिणाक पांयांतली तिडक मस्तकाक पादली.

हय. शंबर सोयरीगती हाडल्यो म्हाका. मीच म्होडल्यो सगळ्यो. म्हाजेंच पडलां... आतां तोंड घेवन वयतां एकदांचें. तुमकां आनी त्रास ना.'

कोणाचो बोवाळ म्हण सगळीं सोयऱ्यां धायऱ्यां मोगऱ्या भोंवतणी जमलीं. रूचें काय जालां तें कोणाकच कळ्ळें ना. सगळे लोक आपणा भोंवतणी ल्यात ते बगून तेका हुडको आवरना जालो. तेका आपलीच लज दिसोंक ली. ते गर्देंतल्यान तेणें वाट फोडली. दाणये वयलो तुवालो ओडून खांदार घेतलो. आनी तडक आवडूच्या घराची वाट धरली.

मोगरू भायर सरलां तें बगून तेचे फाटोफाट तेचो भाव बाबू भायर सरलो आनी तेका मेळोवन घेतलें. बाबून तेका समजावपाचो यत्न केलो पूण तें घरांत येवपाक राजी जायना जालें. मोगरें आपली सांगणी आयकना तें बगून तेचेर तो तिडकलो. 'तुका जायें थंय चल. आमकां मात फाटल्यान त्रासात घालूं नाका' अशें सांगोन बाबू जड पावलांनी घरा परतलो. घरांत वचोन काय जालां तेची तेणें चौकशी केली. घडलेली गजाल मावशेन बाबूच्या कानार घातली. बारीकशे गजालीक लागोन मोगरून येदो मोठो बोवाळ घातलो म्हणोन तो तेचेर पिकार जालो. नाका त्या वेळार घरांत किजील तयार केलें म्हणोन आपले बायलेचेर धेकणो घातलो.

'हेचें लग्न जुळोन येयना जाल्यार मी तरी काय करूं? हेका झिलगो सोदपाक आडे-कुशिचे सगळे गांव पांयापोंदा घातले. देव देवस्पण केलें. हेचें नशिबच फुटकें... हेंय पयलीं म्होडें. हेका झिलगे दाखयल्या त्या हिसपान, इतल्यान चार भुरगीं पदराक आसतलीं आसलीं. हेचें लगीण करूंक गेलों जाल्यार वाडलेलीं चेडवां घरांत उरतात... तुमीच हेका काय तें उत्तर दियात.' जमलेल्या सोयऱ्या-धायऱ्यांक बाबू समजावन सांगपाचो यत्न करतालो.

बाबून मोगरूक सोयरीगती खूब बगल्यो. धा-बारा चेडे भुरगे मोगरूच्या हातची च्या पियेवन गेले. पूण कोणाकच मोगरू पसंत पडलें ना. हेतुंतले चार-पांच जाण मोगरूच्या धाकट्या भयणांक मागणी घालून गेल्ले. आपणाक सोडून धाकट्या भयणांक मागणी घालतात तें बगून मोगरू मनांतल्या मनांत खंती जातालें. आपल्यांत उणें काय आसा हेचेर तें रात दीस विचार करचें. मनांतल्या मनांत आपली तुळा तें दोगांय भयणांकडेन करून बगतालें. नाक, दोळे, मुखामळ, केंस, आंगलोट... हातीन हारशी घेवन कितलो तरी वगत तें आपल्या रुपाक तेळीत बसतालें. दोनूय भयणी आपणाचेकय दशीरुपान निव्वळ आसात ह्या निर्णयाचेर तें पावचें. आपलें तोंड तें परत एकदां हारशांत बारकायेन बगचें आनी आपल्या रुपाची तेका चीड येवंची.

मोगरू आंगलोटान मानाय कशें. होणोन घातलेल्या झाडाच्या मुनाक आड फागूर येवंचे तशे चार-पांच दांत फुडें येयल्यात. तेका लागोन तेचो वयलो ओंठ मात्सो उखलून उल्ला. कोणाकय गजाल सांगोंक लागतकच तेचे ते दांत कुचो कशे दिसचे. ओंठय मातशे काळसार. माथ्याचे केंसय पातळ आनी मोटके. चलपय एखाद्या दादल्या भशेन. काम करून हात वातड जाल्यात. वतान आंगाची चामडी काळशेल्या. हेका लागोन मोगरू चेड्या मनशाचे नदरेक सट्ट करून भरना. अशें आसलें तरी मोगरू कामाक वाग. कुराड घेवन लाकडां फोडपा मेरेन तें पिकास घेवन खणपा मेरेनचें काम तें आपुलकायेन करता. वजें घेवपाक कोणाक आयकना. मोगरू कामाक वयचेलें केन्ना रावलें ना. फाटलीं कितलिंशींच वर्सां तें रब्बरांत दिसावड्याच्या कोंतार कामाक वयता. बाजाराच्या बाजाराक भावाचे हातीर चुकयनासतना अदों पगार दवरता. तेका लागोन भावाकूय मोगरू जड वचना.

वर्सां फाटीं पडलीं तशीं मोगरूक सोयरिको येवंचेल्यो पातळ जाल्यो. आतां मात बाबूचेर आकांत येयलो. मोगरूक थंयच दवरून धाकट्या भयणांक लग्न करून दिलीं जाल्यार मोगरूक मागीर कोणयेक विचारचो ना हो भंय तेची न्हीद खळयतालो. पूण तो म्हणो काय करतलो. भयणिंचें वजें तेका ल्हव करपाचें आसलें. मोगरू फाटले भयणीक मागणी येयली. फाटींफुडें चिंती नासतना बाबू तेचें लग्न करपाक तयार जालो. आपले फाटले भयणिचें लग्न करूंक भाव तयार जाता ही खबर मोगरूक खीणभरच खोस दिवन

गेली. पूण दुसरे घटकेक तीच गजाल तेचें काळीज पोखरपाक लागली. सगळें दुख्ख गिळून मोगरू भयणिच्या लग्नाक खूब वावुरलें. किरवटीक आसलेल्या पयशांनी मोगरून आपले भयणीक कानांतले डूल केले. बाबू हेचेकडल्यान तेचेकडल्यान पयशे एकठांय करता तें बगून तेचे हातीर मोगरून पांच हजार रुपया दवरले.

भयणिचें लग्न जातकच मोगरू चडूच खचलेले वरी जालें. दिसान दीस तेका सुतकडो लागोन सुकलेले केळिचे कांडयेवरी तें आवळून येवंक लागलें. शेजारच्या आवडूकडेन सोडल्यार, धड घरांतय कोणाकडेन चड उलयना जालें. घरांतलीं कामांय मुकाट्यांनी करचीं. मोगरू मनान खचलां हें भाव आनी भावजयेक खबर आसलें. कोणें तरी चेड्या भुरग्यान मोगरूक मागणी घालची अशें तेंकांय मनापसून दिसतालें. मोगरूची जाल्ली आवतिकाय बगूं नज जाताली. गांवांत कोणाचेंय भुरगें दिसतकच तेका तें हड्ड्याकडेन घट्ट आंवळून धरचें आनी तेचो तें उमो घेवंचें. भावाच्या भुरग्यांक घेवन तें न्हंयचेर वयतालें. तेंकां न्हावंक घालचें, तेंचे कपडे उमळचे आनी घराकडेन येवन पयस नदर लावन वग्गी बसचें.

भयणिच्या लग्नाक तीन वर्सां जावन गेल्यांत. ह्या काळांत मोगरू निम्या चेड्याची एकूय सोयरिगत येवंक ना. ज्यो दोन-चार येयल्ल्यो त्योवूय धाकुडपणाक. कोणाची बायल भायर पडल्या आनी दोन भुरगीं आसात. कोणाची बायल पळून गेल्या आनी तो सोरो पियेता. कोणें एकल्यान भुरगीं जायना म्हणोन बायलेक धांवडावन घातल्या... मोगरूच्या भावाक दिसतालें, मोगरून एकल्याक तरी हय म्हणचें. पूण मोगरूक असल्या मनशांकडेन संवसार करपाचो नासलो. तेणें सरळ तेंकां न्हयकार दिलो. हेका लागोन मोगरूचो भाव, भावजय, मावशी, मामा, शेजाऱ्यां-पाजाऱ्यां सगळे तेजेर बेजार जाल्ले. 'ह्या म्हातुड्ड्याक आतां आनी आंकवार चेडोभुरगो मेळटलो ?' असो, तेचे अपुरकी टोमणे मारून मेकळे जाताले.

मोगरू खूब आशावादी. आपणाक आंकवार चेडोच येवन मागणी घालतलो असो तेका आत्मविस्वास आसलो. मोगरूचो देवाचेर खूब विस्वास. तें शेनवार पुजतालें. सकाळींफुडें उठून शेण-शिताडो घालचें. न्हावन धुवन देवाची पुजा करची. त्या दिसा तें दीसभर उपास करचें. नुस्तें आनी हेर मांसाहारी पदार्थ तेणें सोडुनच दिल्ले.

मोगरून आपणाक जाय तितल्यो वस्ती करून दवरल्यात. मणयांची माळ, तोडे, सरपळी, मुदी, डूल... अशीं भांगरां-शिंगरां तयार आसात. साडयो, घागरे, पोलके आनी हेर शिवणसूत करून आपल्या ट्रंकांत दवरलां. कामाक वयतना येतना गांवचो कोणूय तेका हटकिता आनी विचारता,

'अंदू आसा मगो वडे ?'

'आसा तर. खातलोच जा तूं' अशी तेका तें जाप दिता. आपले तकलेंतल्यो येवजण्यो तें एकल्या आवडू बायाक सांगता.

'माज्या लग्नाक, बाबूक मी रिणांत घालचें ना... जायो तितलो वस्त-दागिणो मी करून दवरला. कपड्यांचीय तयारी केल्या. बाबून येजमानपण तितलें केल्यार पुरो...' अशें सांगतकच आवडूक मोगरूची लक्तुबाय दिसची. जो कोण मोगरू कडेन लग्न जाता तो खऱ्यांनीच भाग्यवान अशें तेका दिसचें. आवडूय मोगरूक सोयरीगती सोदतालें. तेणें तेका दाबें गांवच्यान एक सोयरीगत हाडली. चेडो भुरगो दशीरुपान बरो आसलो. घरा काज-मुट्टो आसलो. धा-बार खांडी पीक येता इतली शेतवड आसली. पूण तो उजव्या पांयान मात्सो कुल्पाद. चलतना तो खूबच लंगडटालो. तेणें मोगरूक बगलें आनी लग्नाक हयकार दिलो. मोगरूकय चेडोभुरगो मानवलो. पूण प्रसाद घेवंक गेल्यार प्रसाद लागाना. मोगरू खूब खंती जालें. देव देवस्पण आनी ते उपास तेका घट दिसपाक लागले. तें तशेंच उठून आवडूकडेन गेलें आनी हो हो करून रडपाक लागलें. मोगऱ्याची जाल्ली अवतिकाय बगून दुसरे कडेन प्रसाद घेवया असो न्हंवऱ्याकारांक रकाद धाडलो. पूण तेंच्यांनी कानामनार घेतलें ना.

मोगरू सभावान बरें. वाटेर मेळ्ळेल्याक हटकल्या बगर तेचें पावल पडना. आयजवेर तेणें कोणाक नांवान हटकलो ना. बारकेल्या भुर[illegible] बाबू, बाय जाल्यार जाण्ट्यांक मामा, मावसो, मावशी, मामी, बाया [illegible] उलो करचो. गांवचे लोकय तेका मोगरू, बायू म्हणोन उलो मारचे. कोणा[illegible] लग्नकार्य वा सण परब आसल्यार मोगऱ्याक सांगोन धाडल्यार पुरो. सांगले[illegible] वेळार तें हजर जावंचें.

सांजवेळार मोगरू कामाचें सुटोन घरा परततालें. वाटेर तेका गांवां[illegible] सखाराम मेळ्ळो. सखाराम मात्सो कोमीक मनीस. मोगरू मेळ्ळेले फा[illegible] तो तेचीं कित्यावयल्यान तरी फकाणां मारी. आयजय तेका फकाणां मारप[illegible] खुरखुरी माल्ली.

'मोगरू बायू, आमकां वडे गो केन्ना दिता ? आसा बेगीन...?'

अशें म्हणानाफुडें मोगरू सखारामाचेर माडीभर उसळ्ळें. 'तूं जाताय माज[illegible] कडेन लगीण ? तुका तुजे बायलेक मात सोडची पडटली. आसा तय[illegible] जाल्यार आतांच येतां तुजे वांगडा...'

मोगरूचीं हीं उतरां आयकोन सखाराम खोटू जालो. तो आनी कांय[illegible] उलयलो ना. मान सकयल घालून आपले वाटेन चलात रावलो. वा[illegible] चलोन येताना सखारामा पयलीं गांवांतल्या दोगा जाणांनी मोगरूक अस[illegible] थोमणो मारलेलो. त्या दोगांयकय कांयच म्हणो नासतना तें मुकाट्यां[illegible] फुडें येयल्लें. मोगरून हो सगळो राग सखारामाचेर काडलेलो... मोगरू आजू[illegible] रडटालें. रडोन रडोन तेचे दोळे सुजोन तांबडे जाल्ले. आवडू, आवडू[illegible] घरकार गोपाळ, शेजारचें साकरू आनी हेर लोक तेचे भोंवतणी जमलेले.

'मोगरू, अशीं पिश्यापणां काय करताय. सामकेंच भुरगें जाता मुगो [illegible] चार चौगांत रडप म्हटल्यार आदीं पयलीं लज. अशें रडात रावलें म्ह[illegible] झिलगो मनीस येवन तुका माळ घालतलो ? घडे भल्ल्या बगर खंय व[illegible] मेळानात...', साकरून आपले भाशेन मोगरूक समजायलें.

'तशें न्हू गो. आतां हातीन जाता म्हणो पेज पाणी खातां. मागीर म्हाव[illegible] कोण बगता ? बाबूचीं भुरगीं आतांच म्हाज्याकडेन कुसड्यांपाण करतात...' मोगरून आपली खंत तेंच्या मुखार उक्तायली.

'बेश्टेंच फुडलें चिंतून तकली फोडूं नाका. तूं काय कण्णम ना. ना म्हटल्या[illegible] पदराक तुज्या चार पयशे आसात. देवाचेर भरवंसो दवर.' गोपाळान मोगरू[illegible] धीर दिलो.

'आतां या मगो आमी घरा ?'

'मी येवंचें ना. भावजयेचें उलोवन कोण घेतलो ?' मोगरून भावजयेचे[illegible] तिडक उक्तायली.

'भावजयेचेर राग केलो म्हणो जाता ? फाटींफुडें तिणेंच तुका पेज वाडूं[illegible] जायी', कोणें तरी एकट्यान आपलें मत मांडलें.

'भावजये खातीर वचों नाका. पूण बाबून आनी भयणीन तुजें काय केलां ? तेंकां वायट दिसचें ना ? लग्नाक म्होडायें घातलें म्हणोन लोक मात तुक[illegible] हसतले.' आवडून मोगरूच्या काळजाकच हात घातलो. मोगरून तकल[illegible] वयर उखल्ली आनी आवडूच्या तोंडाक बगीत रावलें.

'हय, चल तूं मोगरू. भयणीक लागोन तरी चल. तें दुसऱ्याच्या घर[illegible] वयता. तेचें तरी मन दुखोवं नाका.' साकरूचीं उतरां आयकोन मोगऱ्याचे[illegible] दोळे पाणावले. आपलेंच खंय तरी चुकलेलें अशें तेका आतां दिसोंक लागलें. घराकडेन वयतकच सोयऱ्यां-धायऱ्यांक आपूण आतां तोंड कशें दाखयतले[illegible] हें चिंतून तेची तेकाच लज दिसोंक लागली. तेणें परतून तकली सकयल घातली. कांय वगतान मोगरून तकली वयर उखल्ली आनी दुकांनी भल्लेल्या दोळ्यांनी आवडूक बगपाक लागलें. मोगरू तशेंच उठलें. सोपावयलो तुवालो उखलून दोळ्यांक लायलो. आनी मुकाट्यांनी घराची वाट चलोंक लागलें. तेच्या फाटोफाट आवडूय तेच गतीन पावलां उखलतालें... ***

# ीर-सुवादीक कॉलम

िलीप बोरकार

'इकरा जाण' कोण असो खूब जाणांक प्रस्न पडटा.
तलो एकलो मनोहरबाब हें हांव जाणां.
बाचे धा जाण कोण हें म्हाका खबर ना.
जां जावन घेवपाचीय म्हाका आतां गरज दिसना.
तर जाय जाल्यार हेरांनी संशोधन करचें.
तेंगम फा. स्टिफन्स बी केंद्रांचें. म्हजें न्हय.
पूर म्हाका एक सांगनशें दिसता.
कणीक आतां इकरा जाणांची खरी गरज आसा.
तेशे तयार जातले वो येतले तें पळोवंक जाय.
म्हरबाबाच्या कर्तुत्व भौमानावेळार रवीन्द्रबाब उलयताले.
तेंखूब भावनावश आनी सद्गदीत जाल्ले.
आचोय भोवमान बी आसलो की उलोवपी भावनावश जाता
का लागून आयकुप्यांचीं काळजां सामकीं मोव पडटात.
लमोव जालीं की भोवमानमुर्तिचें आयतेंच फावता.
ल्या मोव काळजांक जाय तसो आकार दिता.
तरांच्या आकारांचीं काळजां घेवन लोक भायर सरतात.
ीं काळजां चडूच मोव जातात ते अडचणींत येतात.
नीक कोणाचो तरी सत्कार वा भौमान करपाचें चिंततात.
का लागून खंय तांचें काळीज चड काळ तिगता.
ोहरबाबांच्या भौमानावेळार मोव जाल्ल्या काळजांचेंय अशेंच जालें.
सरळ भायर आयले आनी तांणी आनीक एकल्याचो भौमान रचलो.
म्हळ्यार मणिपालच्या रमेश पै हांचो.
वं, मोव काळजां संवेदनशील दवरूंक पै मामाचो हात लागलो.
तो तो कोंकणी मनशाक अर्दी मर्दी लागताच म्हणा.
तांचो हात म्हज्या काळजा मेरेन अजून पावंक ना.
ून म्हजें काळीज अजून तशें मोव जावंक पावलेंना.
पासत तें ह्या सगळ्या जंजाळांत घटमूट आसा.
र विचारवंत कमलाकर म्हाळशी हांणी खंय तरी म्हळांच,
चीं काळजां घट आसतात तेच सारको विचार करतात.
चेर भंरवसून हांवेंय म्हजें काळीज मोव जावंक दिवंक ना.
ं जाल्ल्यान हांव थंडसाणेन विचार करूंक पावलां.
ीन्द्रबाब मनोहरबाबांचेर उलयतनाय तें थंड आशिल्लें.
णाकूय दिसत तें कला अकादमीच्या एसीक लागून बी म्हूण.
तें तशें न्हय. कृष्णकक्षांत सदां गरमीच आसता.
र सांगपाचें म्हळ्यार, हांव रवीन्द्रबाबांचें बरप मन लावन वाचतां
चें खंयचेंय उलोवप कान दिवन आयकतां
गीर ताचेर चिंतन आनी मनन करतां
तुंतल्यो आचरणांत हाडपा सारक्यो गजाली सोदतां
की प्रमाण प्राधान्य तत्वाचेर त्यो आचरणांत हाडटां.
ीन्द्रबाबांच्या भाशणांतले दोन मुद्दे हांवें लक्षांत घेतले.
तन-मनन करूंक आनी जमल्यार आचरणांत हाडूंक.
यलो म्हळ्यार इकरा जाण कोण ताचेर संशोधन.
(एकलो सांपडला. संशोधकाचेर धा जाणांचेंच टॅन्शन).
आनी दुसरो, गोंयाक आतां इकरा जाणांची गरज आसा.
पयलो मुद्दो आचरणांत हाडप म्हाका ह्या जल्मांत शक्य ना.
संशोधन म्हणटात तें म्हज्या नशिबांतूच बरोवंक ना.
संशोधकाची नदर, सभाव आनी चिकाटी आगळीच.
म्हज्यांत हे गूण नात.
संशोधक गोंयचे कोंबये वरी आसूंक जाय.
कोंबी जशी कोयरांत आपल्या दोनूय दोंक्यांनी उस्तिता आनी
कोयरांतलो जीव अचूक उखलता तशेंच संशोधक करता.
पूण आतां गोंयच्यो कोंबयो उण्यो जावन ब्रॉयलर आयले
उस्तवारी करिनाशिल्ल्यांचे व्हाय-वा जावंक लागले
कोणाचे प्रबंध कोणूय बरोवंक लागले.
आनी व्हाय-वाच्या नांवान जेवणावळी पडूंक लागल्यो.
अशा काळार हांवें संशोधन करप म्हळ्यार म्हजीं अवचिन्नपणां.
नाय म्हळ्यार म्हजे तकलेंत संशोधनाचें पिशें आशिल्लें.
कोंकणी भाशेंतली सगळ्यांत पयली डॉक्टरेट हांव घेतलों
अशी म्हजी भुरगेपणा सावन सुप्त इत्सा आसली.
तिकाच लागून हांवें म्हाका कोंकणी चळवळींत धुकल्लो.
र. वि. पंडितांक बी सांगून गोम्सबाबांक विद्यापिठांत हाडलो.
गावड्याक पंडित करून सगळेच पंडित जावया हें शणै गोंयबाबांचें मत पंडितांक पटिल्लें.
र.वि. पंडितांचें तशें मुळासावन गावड्यांचेर प्रेम.
'म्हजें उतर गावड्याचें' ही ताका जिती जागती गवाय.
ताचेर आतां कोणें संशोधन करपाची गरज ना.
तर म्हजे संशोधन आशेक कोंबरी हाडली ती पंडितान.
तांणी ओलिव्हीनबाबांक विद्यापिठांत कोंकणी मुखेली केलो.
म्हाकाय म्हजो गुरू म्हूण असलीच त्यागी व्यक्ती जाय आसली.
तांच्या हाताखाला संशोधन करूंक मेळप म्हळ्यार भाग्य!
तेंच भाग्य पदरांत उडोवंक हांवें एम्.ए.क प्रवेश घेतलो.
कोंकणींतल्यान एम्.ए. ती! अभ्यास कित्याक जाय?
तरी हांवें दोन म्हयने रातिचे दीस करून अभ्यास केलो.
आनी आठ पेपरांतल्या सात पेपरांत नापास जालों.
एकाच पेपरांत पास जाल्लों तो ओलिव्हीनबाबांच्या.
ताचेवेल्यान म्हाका कळ्ळें, म्हाका अक्कल आसा.
अक्कल ना ती बाकिच्या सात जाणांक.
कोंकणीचे खरे दुस्मान ते हेच सात जाण.
आठूय पेपर ओलिव्हीनबाबान तपाशिल्ले जाल्यार म्हजें कल्याण जावपाचें.
(तरी बरें, आतां 'कल्याण' म्हूण मटको सुरू आसा)
एम्.ए.क हांव पास जालोंना आनी संशोधक जावपाचें म्हजें सपन भंगलें.
तेंच दुख्ख हांवें खूब काळ काळजांत बाळगिलें.
आनी चंद्रलेखाक डॉक्टरेट मेळ्ळी तेन्ना काडून उडयलें.
आतां रवीन्द्रबाबा सारके कोणूय याद करतात तेन्ना मातशें फुगासांव जाताच.

म्हज्या हातांतलो काळ गेलो म्हूण दुख्ख भोगता
पूण जयंती बी संशोधन करता तें पळोवन मनाक थाकाय लाबता.
इकरा जाणांतल्या धा जाणांचें संशोधन म्हज्या कट्टुलांत ना.
पूण ह्या गोंयाक इकरा जाण दिवप शक्य आसा.
कोंकणीक इकरा जाणांची गरज आसा हातूंत कोणाचें दुमत नासुंये.
एकूच गजाल म्हळ्यार, हे इकरा जाण आदले काय नवे हें निश्चित जावंक जाय.
आदल्या इकरा जाणांतले सद्या कितले आसात तें खबर ना.
तांचें चिवटपण आनी चिकाटी पळयत जाल्यार ते अजून खंय तरी आसूंक जाय.
जंय आसात थंय सामके दसून उरल्यात जावंक जाय.
तांचेर संशोधन केल्यार ते खंय आसात तें कळूं येता.
भंय एकूच. ते कोण हें कळ्ळ्यार तांच्या आसनाक धोको उप्रासूं येता.
जांणी गोंयांत इतिहास निर्माण केलो ते ओगी बसले?
तांच्या कर्तुत्वाक लागुनूच तर आजूय इकरा जाणांची गरज उप्रासल्या.
हे इकरा जाण कोण हाचेर संशोधन करचे परस
गोंयाक फुडले इकरा जाण कसले जाय हाचेर म्हज्यान संशोधन करूं येता आनी निवडूय करूं येता.
फकत वेंचतना ते आदले पिळगेंतले, मदले पिळगेंतले काय चालू पिळगेंतले हाचेर वाद जावं येता.
म्हजे विचाराचे तांकी प्रमाण आदले पिळगेक हात घालपाची सद्या गरज ना.
ते जंय आसात थंयच तांकां दवरप आयचे परिस्थितींत समा जातलें.
तांकां हालयले जाल्यार ते विनाकारण चवताळटले.
म्होंवा माल्याचेर फातर मारतकच म्होंवामूस चवताळटात तशे.
मागीर ते कोणाक कुसां तोंपीत तें सांगूं नज.
मदले पिळगेंतले तृप्त नासले तरी समाधानी आसात.
तशे ते मुळांत अल्पसंतुश्टी लोक.
उपाध्यक्षपद वा वांगडीपद हाचेरूच तृप्त जातात.
आयज इकरा जाण वेंचपाची खरी गरज आसा ती चालू पिळगेंतल्या तरणाट्यां मदल्यान.
तांकां आजून तशी कित्याची गोडी लागूंक ना.
फकत साकरेचो वास तांकां खंय तरी लागला.
साकरेच्या वा गोडाच्या वासान मुयो जश्यो जळामळाक धांवतात आनी मर्दी आडखळ हाडटल्याक चाबत सुट्टात तशी हे पिळगेची अवतिकाय जाल्या.
देखून हातुंतलेच इकरा जाण वेंचप गरजेचें.
आतां हे इकराच जाण कित्याक? चड कित्याक न्हय?
सद्याचे वाडिल्ले कोंकणी लोकसंख्येंत इकराच जाण सोदप म्हळ्यार हेरांचेर अन्याय.
इकराच जाणांची मक्तेदारी करप म्हळ्यार चालू पिळगी तें सोंसून घेवपाची ना.
पूण हांगा इकरा जाण म्हळ्यार फकत इकरा जाणूच न्हय.
तर इकरा जाणांचें एक माप वो एक गट.
सुरवेक कोंकणी चळवळ मर्यादीत आशिल्ली.
देखून इकरा जाणांचेर सगळें भागतालें.

पूण आतां दिशीं दिशीं चळवळ वाडटा आनी चळवळेय वाडटात.
ते भायर आतां बायलांय पदर खोवन मुखार येतात.
म्हणटकच आतां इकरा जाणां वांगडा इकरा जाणींय हिसपांत घेवच पडटल्यो.
अशा वेळार रवीन्द्रबाबान फकत इकरा जाण जाय म्हणप म्हळ्यार पुरुशप्रध संस्कृतायेक उदक घालप.
भर सभेंत तांणी बायलांचेर केल्लो हो धडधडीत अन्याय.
(ताचो सगळ्या थरांतल्यान निशेध जावंक जाय.)
पूण हांव बायलांचेर अन्याय जावंक दिवंचोंना.
(म्हजें बायलांवेलें प्रेम अजून उणें जावंक ना.)
हांव गोंया खातीर इकरा जाण वेंचतना इकरा जाणीय वेंचतलों.
मागीर तांचें कितें करप हें सवकासायेन थारावं येता
खंयचेय संस्थेक तशे इकरा जाण जाय पडटात.
एक अध्यक्ष, एक उपाध्यक्ष आनी णव वांगडी.
कोंकणी अकादमी, कोंकणी लेखक संघ, कोंकशी भाशा मंडळ बी संस्था अध्यक्ष-उपाध्यक्ष आजीव आसतात.
सरकाराचो राजभास विभागूय तसोच प्रकार.
ह्या सगळ्या विभागांनी इकरा जाणांचें माप भरून ओतपाचें.
प्रत्येक इकरा जाणांक सुखी समाधानी दवरूंक हें एक विस्कळीत लिस्ट आदली पिळगी, मदली पिळगी आनी चालू पिळगी हांचीं उपद्रव मुल्य तांच्यो शेपड्यो बी तपासून घेवन सरमिसळ करूं येता.

१. कोंकणी अकादमी
२. कोंकणी भाशा मंडळ
३. कोंकणी लेखक संघ
४. कोंकणी राजभास विभाग
५. अस्मिताय प्रतिश्ठान
६. कला अकादमी
७. मार्ग अभियान
८. युवा साहित्य संघ
९. काणकोणचीं तरंगां
१०. कर्तुत्व भौमान समिती
११. इन्स्टिट्यूट मिनेझिस ब्रागांझ

म्हाका दिसता, सद्या तरी ह्या इकरांचो आंकडो इकरा जाणांखातीर भरपू जालो.
तातूंत कितलेय इकरा जाण आनी इकरा जाणी सुखासमाधानान नंदूं येत
अशें आसतना रवीन्द्रबाब मनोहरबाबांच्या कर्तुत्व भौमाना वेळार उलयतन सद्गदीत कित्याक जाले काय?
हेच येवजणेंत आसतना म्हाका प्रियोळच्यान तोबूचो फोन आयलो.
'तातोक पांच वरां बी व्हरून खंयूय बसोवन ख्यास्त करशात जाल्या हांव ओगी रावचोंना आं! तो बरो बी ना जाता मागीर... तुमी ताच भौमान करिना जाल्यार जाता म्हाका... आर्रा तूं!'
तोबूच्या फोनान हांव परतून येवजणेंत पडलों.
इकरा जाण सोदूंक हांव ताकतीक बी करिना मू?

✻ ✻ ✻

# पांच कविता

□ शंकर रामाणी

(१)

ज़िणेचे
निर्शेल्ले, नाशिल्ले
वाटेचीं
अनंत अस्कडीं
वळणां
सोंपून सोंपनात.

(२)

अनमोड,
आंबोलेच्या घाटांची
खोलाय
हांवें
बसींतल्यान वतना –
येतना खूबदां ओखेल्या...
म्हजे जिणेच्या
घाटाचे खोलायेचो अर्थ लागून
लागना.

(३)

आयुश्याचीं
सत्त्यात्तर जनेलां
उकतीं जावन लेगीत
अजून
फांतोडेची सुलूस
लागूंक ना

(४)

सोंसलेल्या
तापत्रयांनी आयुश्य लासतकीर
काळजांत
खर गिमा उपरांत
मांडिल्ल्या गच्च कुपांक लागून
वेलंगां आजोळा
आज्जेच्या दोळ्यांत दाटिल्लो
दुकांचो मोनो पावस झडटना
ल्हानपणांत
हांवें पळेल्लो...

आजी गेली केन्ना !
पुणून
तिचीं दुकां काळाचे
मातयेंत रुजून,
किल्लून उदेल्ल्या वेलींक
आतां
ओले यादस्तिंचीं फुलां फुटल्यांत...

(५)

पयस
कितलेशेच पयस
पळेल्यार :
खंयचेकडेन कांयच ना.
कितेंच झळकना.
फकत
वयर तापिल्ले दनपारचें
म्हेळिल्लें मळब
आनी
सामकार अंतामेरेन
एक
पांचवोचार पूर्णविराम !

# युगपरिवर्तनाचो यात्री

□ आर. एस. भास्कर

१

युगपरिवर्तनाच्या यात्र्या
तूं चल.
तूं चल –
तर घुवन चोवनाका.
चलून आयलेली वाट
उल्लो मारीत रावतली
एक वेळा
तूं प्रलोभित जातलो
फुडारा विशीं
घुस्पागोंदळ पावतलो
तूं चल
पुण घुवन चोवनाका.

२

युगपरिवर्तनाच्या यात्र्या
तूं चल.
चलताना तूं
पावलांक जोतें लाय
गिमाळ्यांत –
रस्तो तापून पिकून पडटलो
नागड्या उगड्या पावलांक तुज्या
त्रास भोगतलो
म्हणून –
तुजी स्फूर्ति सोंपतली
तूं चल
पावलांक पुण जोतें लाय.

३

युगपरिवर्तनाच्या यात्र्या
तूं चल.
भायर सरतना
पांगरूण तुजें विसरूं नये
हेमंत येतना
थंडी हाडटलो
असह्य शींय
सूय जशी आंगाक तोपतली
शिरंतरां तुजीं
थंड जातलीं
आनी –
उमेद शेळेतली
तूं चल
पांगरूण पुण विसरूं नाका.

४

युगपरिवर्तनाच्या यात्र्या
तूं चल.
सारंगी तुजी
हातांत आसो
हिंडत हिंडत
तूं कांय रानवाटेर पावतलो
रात जाता तेन्ना
चोंयवर्शी काळोख भरतलो
कोल्लो फुयेल मारतलो
भुतां-प्रेतांचो आक्रोश जातलो
तेन्ना तूं
सारंगी वाज
सारंगीचो मंजूळ सूर
तुजें भय जिकतलो
तूं चल –
हातांत सारंगी घे.

५

युगपरिवर्तनाच्या यात्र्या
तूं चल.
आखेर तूं
आगळ्या वेगळ्या जाग्यार पावतलो
थांगा नाळयेचो घुडघुडो पांवचोना
थांगा रक्ताचो व्हाळ व्हांवचोना
सपन तुजें
रुप्या वाटले भाशेन मळबार सोबतलें
तूं चल –
युगपरिवर्तनाच्या यात्र्या.

# धग

□ परेश नरेंद्र कामत

कोणा अस्तुरेच्या पांयांतल्या पैंजणान
हुमरो साबुद्दीर येवंचो
तसो आपले भितर नदर रोमून
वळखुचो काळजार काळीज कालयल्लो मोग.

आपणेच आपणाक सासपून पळोवचो
मनाभितर मेकळो सोडून;
रावची जागयत ओंठार काळजांत घुस्मटिल्ली,
मुंगरिल्ली, एकाद्रे कवितेची जीवघेणी धग.

आकूळ-पिकूळ जातना दोळ्यांतलें उदक गचारून
आपणेच आपणाक प्राणांतल्यान सादोवचो;
दिकांदिकांतल्यान वोताक जसो सावळेचो सांगात
तसो आपणेच आपणाक सांगाताक घेवंचो...

अळंग हुमरो हुपतना कोणा अस्तुरेच्या
पांयांतल्या पैंजणान; हुमऱ्यावरीच तट्टटीत
जागो जावन पळोवची:
पावलापावलांत आप्पाप मेकळी जायत वतना
हुमऱ्याभायली वाट...

# देव

□ अरूण साखरदांडे

रस्त्यार खूब मनीस जमिल्ले
तांचे मर्दी
तीन मनीस आसले
एक, देव आसलेलो मनीस
एक, देव नासलेलो मनीस
आनी तिसरो, देव शेणलेलो मनीस

देव आसलेल्या मनशान म्हळें
– देव खंय आसा तें हांव जाणां
देव नासलेल्या मनशान म्हळें
– देव खंय ना तें हांव जाणां
देव शेणलेल्या मनशान म्हळें
– म्हाका भूक लागल्या.

कोणें तरी ताका बटाटवडो दिलो
देव शेणलेल्या मनशान तो बटाटवडो खालो.

बटाटवडो खातकूच ताणें म्हळें
– बटाटवडो खंय आसा ?
कोणेंतरी म्हळें – तुज्या पोटांत
मागीर देव शेणलेल्या मनशान म्हळें
– तो बटाटवडो परतो मेळटलो ?
कोणेंतरी म्हळें – ना.
मागीर देव शेणलेल्या मनशान म्हळें
– बटाटवडो शेणलो.
मागीर परत देव शेणलेल्या मनशान म्हळें
– म्हाका आनीक भूक लागल्या
कोण तरी समोसा हाडूंक गेलो.
तितल्यान 'मानीकोमा'ची गाडी आयली
आनी त्या तीन पिशा मनशांक घेवन गेली.

# हें घर कोणाचें ?

□ नूतन साखरदांडे

हें म्हजें घर,
हातूंत हांव, म्हजो घोव
आमचीं दोगां भुरगीं
आनी शाली

हें म्हजें घर
सुंदर सजयल्लें
घांसून पुसून
चकचकीत
पूण केन्ना केन्नाय
दिसता
हांवूच म्हज्या घरांत
परकी कशें
'पेईंग गेस्ट'
म्हूण राविल्ले वरी

सकाळचीं आठ ते
रातचीं सात म्हळ्यार
आख्खो दीस
हांव घरा भायर
आनी घरा भितर शाली
शाली म्हजें घर सांबाळटा
म्हज्या भुरग्यांक न्हाणयता,
जेवयता –
तांचे कपडे फेर्रा मारता
तांची टिफिनां भरता
तांकां इश्कोलांत व्हरता-हाडटा
घांसता पुसता
शिनता कांतता
उमळटा
नुस्तें उजरायता
इतलेंच कित्याक
घरांत कितें जाय नाका
तेंय पळयता
कितेंय शेणलें शालीक विचार
तें ज्युस्त हाडून दिता

शाली, नाल्ल सोंपल्यात ?
शाली, चावी खंय ? •
शाली, पंचम केन्ना ?
शाली, भुरग्यांक वखदां दिलीं ?
सगल्या प्रस्नांक
शालीकडेन जापो आसतात

संवसार म्हजो,
पूण म्हज्या सगळ्या संवसाराचो
भार शालीचेर
शालीकूय आतां हें घर
आपलेंच कशें दिसता
कित्याक,
शालीचो बापूय बेबदो
केन्नाय १०-२० रुपया
मागूंक हांगा येत जाल्यार
शाली ताचेर बरेंच तापता
तेन्ना म्हाका शालीक
तापूंक कळटा म्हूण
होलमता

शालीची आवय भाजी विकून
चार-पांच जाणांचो
संवसार चलयता
चवथ, दिवाळी
शालीच्याच खुस्तार
भावणांक चोपड्यो, पुस्तकां
कपडे, सत्र्यो, जोतीं
शालीच व्हरून पावयता
मागीर हांव म्हणटां –
शाली,
कितेंय लग्नाकारणाक
गांठीक दवर मगो
शाली मागीर विचित्र
हांसता
आनी त्या हांशान
म्हजें काळीज हालता

शालीक पिक्चराचो खूब घोस्त
टिवीर पिक्चर आसलें की
ताचीं कामां त्या दिसा
बेगिनूच आटपतात
पिक्चरांतल्या नायक नायिकेच्या
मोगांत तें घुस्पता
कसलोय पिक्चर जावं
तांतल्या नायकाचें नायिके वांगडा
लग्न जावंकूच जाय
ना जाल्यार ताच्या
दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतात
व्हिलनाक तें गाळी
खेपत आसता

लग्नाचे पयले रातिचो
प्रसंग दाखयता तेन्ना
म्हाका शालीक लजूंक कळटा
हें समजता
ताचे पोले तांबडेगुंज जातात

म्हाका नवीं पिक्चरां आवडनात
पूण शाली पळेता आसतना
हांव टीवी बंद करिना
शाली म्हज्या संवसारा खातीर
इतलें करता
म्हाका ताचीं सपनां चिड्डुपाचो
कसलो अधिकार ?

शाली तापना
पूण केन्ना केन्नाय तें फुगता
बेश्टेंच न्हय
गॅसार च्याचें उदक सळसळटा
आनी हांव अर्द वर फोनार उलयतां तेन्ना
फोनाचें बील वाडटलें
गॅसाची वाट लागतली
आनी म्हाका कामाक वचपाक उशीर जातलो
हीं शालीच्या फुगपाचीं कारणां –

आनी तेन्नाच म्हाका प्रस्न पडटा
हें घर म्हजें काय शालीचें ?
आनी मागीर हांव कोण तर ?

# बंदखणींत कोंकणी उतरांचो 'फायदो'

रीस्यु कार्दोज




आमी आगवादचे बंदखणींत आसल्यार एक वर्स जाल्लें. तेन्ना आमी त एकवीस जाण आसले. १९५५ वर्सा, आगोस्तांत, दोन-तीन दीस त्रताये दिसा आदीं, दनपारच्या वेळार एका सर्जेंतीन येवन म्हाका, जगन्नाथ कार, जुजे लुईश द कॉश्त आनी वैकुंठ भट हांकां वेगीं न्हेसून तयार क सांगलें. कित्याक काय म्हण विचारल्यार तुमच्यो जबान्यो घेवपाक व्हरतात म्हण सांगलें. आमी तेन्ना जेवताले. सडसडीत जेवन आमी ले. थोड्या वेळान आमकां खोलयेंतले भायर काडले आनी एकलो सैनीक कां व्हरूंक लागलो. थोडी वाट चलून आमी कोटा कोमांदांतिचे nmandante da praça) कचेरे लागीं पावले तेन्ना माळयेर थावन -तीग जाण आमचे फोटू काडटाले ते आमकां दिसले. हांवें जुजे लुइसाक , ''आरे, ते पत्रकार आसूंक जाय.'' बंदखणींत हेर कैद्यां परस आमी येन ल्हान आसले – २०-२१ वर्सां भितरले. सुटके झुजारी म्हणटात ादे-भोळे पोरांटे म्हण पत्रकारांक दाखोवपाचो पुर्तुगेज अधिकाऱ्यांचो आसत म्हण म्हाका दुबाव आयलो. आमकां घेवन आयलल्या सैनिकान येर चडपाक सांगलें. (कोमांदांतिची कचेरी माळयेर उरताली.) कचेरेंत र सरतांच जगलां कशीं मारलीं – पत्रकारांनी आमचे फोटू काडले. ांदांतीन तोडके-मोडके इंग्लेजींत 'हे ते स्वातंत्र्य सैनीक म्हणटात ते' त्या पत्रकारांक सांगलें. ते पत्रकार गोरे कातिचे, विदेशी आसले. एकल्यान नांव, वय आनी वेवसाय कितें काय म्हण प्रस्न केलो. हांवें जबाब ो. ''तुका कित्याक लागून कैदी केला आनी बंदखणींत कसली वागणूक टा ?'' दुसरो प्रस्न विचारलो. तेन्ना हांव इंग्लेज समजतालों, पूण म्हज्यान ाशेंत लुसलुशीत उलोवंक जायनासलें. ताका इंग्लेजींत जबाब दितना लुडबेवंक लागलों. तेन्ना हांवें ताका सांगलें, तांचो कोणूय कोंकणी वा ाज भास जाणा जाल्लो दुभाशी आसल्यार हांव कोंकणींत ना जाल्यार जींत सांगतां म्हण. ताणें एका मनशा कडेन बोट दाखोवन म्हाका पुर्तुगेजींत वंक सांगलें. तो दुभाशी गोंयकार आसलो. हांव पुर्तुगेज सडसडीत उलोवन तालों तेन्ना कोटाचो कोमांदांत म्हजे फुड्यांत आयलो आनी खरकस ाजान म्हाका पुर्तुगेजींत फर्मायलें: ''तुवें इंग्लेजींत सांगपाक सुरू केल्लें इंग्लेजींतच फुडें उलय.'' तेन्ना हांवें कोमांदांतीक पुर्तुगेजींत विचारलें, मी aqui é Portugal – गोंय पुर्तुगालाचो भाग म्हण सांगतात. पुर्तुगेज ची राजभास आसून म्हाका हे भाशेंत कित्याक उलोवंक दिनात ?'' ांदांतीन तांबडो जावन सांगलें: ''ना, पुर्तुगेजींत उलोयचो ना. तुवें इंग्लेजींत ोवंक सुरू केलेलें तेन्ना इंग्लेजींतच उलय !''

पत्रकार कितें समजुपाचें तें समजलो. म्हज्या तोंडांतल्यान डखळनासतना सत गजाल भायर सरलली कोमांदांतीक नाका आसली. पत्रकारान म्हाका हांव जसो उलयतां तसो इंग्लेजींत उलय म्हण सांगलें. तुटके इंग्लेजींत थोडकेंत जें सांगपाचें आसलें तें ताका सांगलें आनी टीं पत्रकारांक एक सुचोवणी केली – तांणी बंदखणींत येवन परिस्थिती ी कात आसा ती पळोवची म्हूण. ''आमी तर भुरगे पिरायेचे. पूण बंदखणींत ील, वैज, शिक्षक आदी आसात. तांकां मेळात.'' हांवें अशें म्हणिनाफुडें रो कोमांदांत – 'तेनेंत' कॉश्त आफोंसु – दोळे वटारून म्हाका चोवपाक गलो.

पत्रकारांनी म्हजे बराबर आसले तांकांय कांय प्रस्न विचारले. उपरांत मकां खोलयेंत व्हेले. थोड्या वेळान ते पत्रकार 'तेनेंत' कॉश्त आफोंसा गाताक बंदखणी भितर आयले. तांणी संडासाचे, रांदचे कुडिचे, दोरयांचेर घातलल्या कपड्यांचे फोटू मारले. दोतोर, वकील, शिक्षक आदी जाणांकडेन उलोवन तांचीं मतां आयकून घेतलीं. 'तेनेंत' कॉश्त आफोंसाचें तोंड रागान फुगललें. आपलें बींग आमी फोडलें म्हण ताका भिरभिरी मारलली.

१९५५ वर्सा आगस्ताचे १५वेर गोंयांत व्हड सत्याग्रह जावपाचे आसले. तांच्यो बातम्यो दिवंक ते विदेशी पत्रकार गोंयांत आयलले. त्या दिसा गोंयांत अनेक सुवातांचेर लोकांनी सत्याग्रह केल्ले. त्या दिसा पत्रादेवीचो सत्याग्रह व्हड प्रमाणांत जाल्लो. निशस्त्र सत्याग्रह्यांचेर पुर्तुगेज सैनिकांनी निश्टुरपणान फार सोडून थोड्यांचे प्राण काडलले आनी जायत्यांक जखमी केल्ले. पूण त्या विदेशी पत्रकारांनी, एक-दोग जाणांक सोडले जाल्यार, पुर्तुगेजांच्या क्रूरपणाच्यो खबरो उजवाडा हाडूंक नात. हांव सुट्टकच म्हज्या एका राष्ट्रवादी इश्टान म्हाका तेन्ना कितें जाल्लें ताची खबर सांगली. पुर्तुगेज अधिकाऱ्यांनी एका गोंयकाराक त्या विदेशी पत्रकारां कडेन चालीबोली करूंक धाडलो. ताणें तातुंतल्या एकल्याक वळयलो. खरें कितें घडलें ते विशीं बरयना जाल्यार पुर्तुगेज सरकार जायते दुडू दिवपाचो आसा म्हण ताका आश्वासन दिलें. तो तयार जालो. उपरांत ह्या पत्रकाराक मदेस्थ करून हेर पत्रकारांक समजावपाचें काम ताचेर सोंपयलें. ते परमणें पुर्तुगेज सरकाराच्या दुडवां हांयसाक चडशे फारवले. पुर्तुगेज फौजेन सत्याग्रह्यांचेर कसली दारुणाय केली ती खबर तांणी प्रसिद्ध करूंक ना.

पत्रकार आगवादाक भेटून गेले उपरांत 'तेनेंत' कॉश्त आफोंसान आमकां सतावपाक सुरू केलें. बंदखणींत गायन करपाक मना केलें; व्हडल्यान उलोवपाचें आडवारलें. कोणाचोय उलयतना आवाज मोटो जाल्लो आयकल्यार तो आरडटालो: ''pouco barulho... isto não é hotel, é prisão!'' बोवाळ नाका... हें हॉटेल न्हय. ही बंदखण!) एक दीस ताणें म्हाका तोंड काळें करून म्हळें, ''तूं सादोसो म्हण हांव समजतालों. पूण तसो न्हय म्हण आतां कळ्ळें!''

दर आयताराक सकाळच्या वेळार आगवादाच्या कोटा वयर पुर्तुगेज बावटो चडयताले आनी तिनसांजेर देंवयताले. बावटो चडयतना आनी देंवयतना चेरमेल वाजयताले. आमी आगवादाक आसल्यार एक वरस जाल्लें. कितलेशे आयतार आयले आनी गेले. आमचे वाटेक कोण येनासलो. पूण ते पत्रकार येवन गेले उपरांत तांची सया परतली. एका आयतारा सकाळीं बावटो चडयच्या वेळार एकलो खापरी सैनीक एक दांडो घेवन जनेला कडेन आयलो. दांडो जनेला वारांवांतल्यान भितर काडून पुर्तुगेजींत व्हडल्यान 'उबे रावात' म्हण धमकावंक लागलो. 'तेनेंत' कॉश्त आफोंसु येतकच सकाळच्या प्रसंगा विशीं ताका सांगलें तेन्ना ताणें गंभिरतायेन पुर्तुगेजींत सांगलें, ''राष्ट्राचो बावटो चडयता-देंवयतना उबे रावप अंतर्राष्ट्री कायदो. तुमी उबे रावंकच जाय.'' ते उपरांत आमचे भितर उबे रावपा विशीं दोन गट जाले. अंतर्राष्ट्री कायद्या परमणें बावटो चडयतना-देंवयतना उबे रावंक जाय म्हणपी, आनी उबे रावप ना म्हणपी. पयल्या गटांत चड जाण आसले आनी दुसऱ्या गटांत थोडे. हांव ह्या दुसऱ्या गटांत आसलों. उबे रावप वा ना रावप हे विशीं आमचो जायतो वाद जालो. जर बावटो चडयतना उबे रावप अंतर्राष्ट्री कायदो तर 'उबे रावंक जाय' म्हणटात ते एक वर्स लेगून बसून कित्याक रावताले? हांवें विचारलें. ''आमी माराक भियेवन उबे रावतात म्हण कबूल करून उबे रावुंया. पुर्तुगेज बावटो गोंयचे भुंयेर नाका आनी तो काडून ताचे सुवातेर भारताचो तिरंगी चडोवपाक आमी चळवळ करतात, झुजतात. पुर्तुगेज गोंय सोडून वतकच आनी आमचे आनी तांचे मदें इश्टागत जातकच तांच्या

बावट्याक प्रसंगा परमणें मान दिवुंया'', हांवें म्हजें मत मांडलें.

दर आयतारा बावटो चडयतना आनी देंवयतना जे कोण उबे रावनासले तांकां सैनिकांक धाडून जबरदस्तेन उबे करताले. असले परिस्थितींत तांच्या कर्तुबाचो निशेध करून आमी उबे रावताले.

१९५६ वर्साचो जून म्हयनो आयलो. जुनाची १० तारीख कवी लुईश दे कामाँइशाचो दीस. हो दीस पुर्तुगालाचो राष्ट्रदीस – Dia de Portugal – म्हण पाळटात. आदल्या दिसा, जुनाचे ९वेर, 'तेनेंत' कॉश्त आफोंसान आमचे खोलयेंत भितर येवन सांगलें, ''फाल्यां बावटो चडयच्या वेळार सगल्यांनी बरे न्हेसून भायर, सलामी घेतात थंय येवंक जाय.'' भायर वचपाक कोणाचीच तयारी ना म्हण ताका सांगतकच ''कोणाक भायर वचन दिसता ताणें वचचें'' अशें सांगून तो गेलो.

दुसऱ्या दिसा, १०वेर, रांदपाची पाळी म्हजी आसली. १० जून १९५६ दीस उदेलो. हांव आनी म्हजे दोग आदारी कुजनांत वावरताले. णव वरांचेर झेंडो-वंदन म्हण सांगलें. हांव चेड्डेंत आसलों तसोच रावलो. चेरमेल वाजलें. बावटो चडोवपाचो विधी जातकच 'तेनेंत' कॉश्त आफोंसान म्हाका काळखा कुडींत व्हरूंक लायलो. थंय म्हाका ताणें खूब थापटायलो. आपल्या बावट्याचो अपमान केला म्हण म्हाका काळखा कुडींत दवरलो.

१५ दिसांनी म्हाका काळखा कुडींतलो भायर काडलो. इतले मजगतीं कॉश्त आफोंसान कैद्यांचे दोन भाग केल्ले – गोंयकार (Goeses) म्हळ्यार 'पुर्तुगेज', आनी भारती (Indianos). गोंयकारांक एके खोलयेंत दवरलले आनी 'इंदियानां'क दुसरे खोलयेंत. हांव 'मस्तो' देखून म्हाका गोंयकारां भितर दवरनासतना भारत्यां बराबर दवरललो आनी म्हाका ते खोलयेचो मुखेली (chefe da cela) केल्लो.

त्या दिसांनी दर एका कैद्याक सरकार एक रुपया ५ आणे दितालो. आमी एकपंगत केल्ली. दर एकल्याचो एक एक रुपया जेवणा-खाणाच्यो वस्तू, जळव बी हाडूंक खर्चिताले आनी पांच आणे हेर जिनस जशे साबांव, टूथपेस्ट, बान्यानां, लुगट आदी हाडूंक मोडटाले. थंय म्हजीय गत त्या भारती कैद्यां सारकीच जाल्ली. हांव एकलो एकसुरो जाल्ल्यान म्हजी खबर घेतलो वो घरच्यो वस्तू हाडून दितलो कोण नासलो. हे परिस्थितींत हांव थंय काटकसर करूंक बरो शिकलों. त्या दिसांनी भायल्या गंवां पिठाचे रिते साक ८ आण्यांक (५० पैशे) एक मेळटालो. एका साकाची लांबाय-रुंदाय एक-एक मिटर आसताली. असल्या दोन साकांच्यो बारीक जावं मोल्या मनशाक तीन चड्ड्यो करपाचो 'फॉर्म्युला' हांवें सोदून काडलेलो. आमी थंय सवाय भितर रित्या पोत्यांच्यो चड्ड्यो, खमसां आदी शिंवून आंगाक घालताले. राजस्थानचो किसन सिंह हुशार दर्जी आसलो. तो हातांनी शिंवतालो ते कपडे मेशिनान शिंवलले परीं दिसताले. तो लुगट कसो कातरता आ कसो शिंवता तें पळेवन हांव कपडे शिंवूंक शिकलों.

सरकार आमकां दुडू दितालो ते आमच्या हातांत येनासले. ते कोमांदांति कचेरेंत जमो जावन उरताले. फाल्यां दिसा ज्यो वस्तू आमकां जाय आसल तांची वळेरी आदल्या दिसा सांजेर तयार करून काबा (cabo de guard वरवीं कोमांदांतिचे कचेरेंत धाडून दिवंक जाय आसली. दुसऱ्या दिसा त बसपागारी (रेफर्माद) गोंयकार सैनिक आमी मागयलल्यो वस्तू हाडून दिता

आमी चिटी बरोवन धाडटाले त्यो वो आमकां येताल्यो त्यो सगळ सेंसूर जाताल्यो. अधिकारी पयलीं वाचताले.

एक दीस एका कैद्यान घरा चीट बरयली की दुडू मेळटाल जेवणा-खाणाच्यो वस्तू हाडूंक पावनात. ती चीट सेंसूर जाली. बंदखणि अधिकाऱ्यांनी उपरांत एक नेम केलो : जेवणा-खाणाच्या वस्तूं शिवाय कसल्योच वस्तू हाडूंक जायनात. हो नेम आमकां सामको बाधलो. थोड दिसांनी हाचेर हांवें एक उपाय सोदून काडलो. वस्तुंची वळेरी पुर्तुगेज बरोवंक जाय आसली. ते वळेरेंत एके कडेन '2 sacos vazios de farinh (दोन रितीं पिठा पोतीं) बरयतालों आनी दुसरे कडेन पुर्तुगेजींत बरयलल मसाल्यां नांवां मदीं '6 pitta poti' (६ पिठा पोतीं) बरयतालों. एके सुवा '3 camisolas' बरयलां जाल्यार दुसरे सुवातेर जेवणा वस्तूं भितर रोम '४ गंजीफ्राक' ना जाल्यार '४ बान्यानां' अशें बरयतालों. थोड्या वेळ कचेरेंत वावुरपी पाकलो काबाक ना जाल्यार सार्जेंताक म्हजे कडेन त कोंकणी उतरांचो अर्थ विचारूंक धाडटालो. तो म्हाका पुर्तुगेजींत विचारताल 'उ के ॲ पीतापति'. हांव ताका सांगतालों, é uma espécie condimento – एका जिनसाचो मसालो. तो está bem (बरें आसा) म्हण फुडें वाचतालो. 'उ के ॲ गांजिफ्राकि ?', 'उ के ॲ बानियान ?' म्ह जबाब तोच आसतालो – एका जिनसाचो मसालो ! ह्यो वस्तू पास करता पूण पुर्तुगेजींत 'साकु वाजीयु दे फारीञ' वो 'कामिजोलाश' बरयल्यार तीं उतरां चिरतालो. हे माणे वरवीं आमकां जाय जाय त्यो वस्तू ह मेळोवन घेतालों. आमकां मालाची पुरवण करतालो तो वेपारीय बरो हुश आसलो. हांवें कोंकणींत बरयलल्या उतरांचो अर्थ तो समजून घेतालो आ निश्चित त्यो वस्तू धाडून दितालो.

दुसऱ्या खोलयांतल्या कैद्यांक ज्यो वस्तू मेळनासल्यो त्यो म्हजे खोल कश्यो मेळटात काय म्हण हेरांक अजाप जातालें. आनी एक दीस दु एके खोलयेंतल्या एका कैद्यान 'तांकां त्यो वस्तू कश्यो मेळटात' क म्हण सार्जेंता कडेन तक्रार केली म्हण म्हाका कळ्ळें. तेन्ना थोडे दीस म्ह 'करामत' म्हाका बंद दवरची पडली. ✻ ✻

# श्चिमी समिक्षेकडेन इश्टागत

## द्यार्थ्यांची गरज आनी सामान्य वाचप्यांचीय भागोवपी तोलामोलाचें पुस्तक

**चंद्र गांवकार**

कणींत सर्जनशील साहित्या वांगडाच आयज चिकित्सक आनी ात्मक साहित्यूय बऱ्याच प्रमाणांत चंवरपाक लागलां. डॉ. किरण ले हांणी बरयल्ल्या आनी राजहंस वितरणान उजवाडाक हाडिल्ल्या मी समिक्षेकडेन इश्टागत' ह्या पुस्तकाची देख सामकी ताजी आसा. यलीं 'साहित्य नियाळ : अंतरंग आनी कायारुपां' हें समिक्षा विशयाचें आंनीक एक पुस्तक पयलींच उजवाडाक आयलां.

टलो कितलोसोच काळ कोंकणीन सर्जनशील साहित्याकूच जल्म हाका लागून समिक्षात्मक बरप सामकेंच उपेक्षीत उरलें. पूण हालिंच्या कोंकणींत साहित्य-नियाळ, आस्वादन आनी समिक्षात्मक बरपाक दीस येवपाक लागल्यात. जायते बरोवपी आयज कोंकणींतल्यान ात्मक बरप करपाक लागल्यात. तांचेमदीं डॉ. किरण बुडकुले हांचें मुखेलपणान घेवचें पडटा.

. किरण बुडकुले हांचें 'पश्चिमी समिक्षेकडेन इश्टागत' हें पुस्तक न समिक्षाशास्त्राचेर आदारिल्लें नासून तांणी ह्या पुस्तकांतल्यान मेकडले समिक्षेची वळख कोंकणी वाचप्यांक करून दिवपाचो यत्न . हाचे पयलीं कोंकणी मनीस पश्चिमी समिक्षे कडेन पावूंक नाशिल्लो न्हय. पूण जाका संद मेळिल्ली आनी इंग्लेज भाशेचो आनी साहित्याचो स आशिल्लो असल्याच मनशाक हे समिक्षेची वळख आशिल्ली. आयज पश्चिमी समिक्षा सामान्य मनशाक लेगीत डॉ. किरण बुडकुले ा ह्या पुस्तका वरवीं उपलब्ध जाल्या. कोंकणी साहित्यिकाक आनी ासकाक ती कोंकणी भाशेंतल्यान पयलेच फावट उपलब्ध करून दिवन पी डॉ. किरण बुडकुले हांणी कोंकणीखातीर खऱ्यांनीच व्हड वावर अशें मानचें पडटलें.

पश्चिमी समिक्षेकडेन इश्टागत' ह्या पुस्तकांतल्यान पश्चिमी समिक्षेची ात कशी जाली तें धरून विसाव्या शेंकड्यांतल्या साहित्य-विचारामेरेन वाटचाल आमकां पळोवंक मेळटा. ते भायर समिक्षेच्या बुन्यादी ांची उस्तवारी, पश्चिमी समिक्षेचें मुळावण, प्लेटोचे विचार, स्टोटलच्या विचारांची फाटभूंय, ॲरिस्टोटलचें काव्यशास्त्र, भास आनी विशिंचीं प्लेटो आनी ॲरिस्टोटल हांचीं मतां, हॉरेसाचो काळ आनी काळावेलें काव्य, हॉरेसाचो समिक्षा विचार, क्विंटीलियनाची भास ी शैलीविशीं मतां, लोंजीनस आनी काव्यांतलें उदात्ततेचें तत्त्व, -प्लेटोवादाचो उगम आनी प्रभाव, मध्ययुगीन साहित्यविचार, -अभिजातवादाचो उगम आनी उदरगत, स्वच्छंदतावाद आनी ताची ल्पना, आधुनिक समिक्षाविचार ह्या सगळ्याची वळख डॉ. किरण बुडकुले ी सादे आनी सोंपे भाशेंत 'पश्चिमी समिक्षेकडेन इश्टागत' ह्या कांतल्यान करून दिल्या.

समिक्षेच्या बुन्यादी तत्वांची उस्तवारी करता आसतना समिक्षेविशीं ांमदीं आशिल्ली गैरसमजूत लेखिकेन पयस करपाचो यत्न केला.




''समिक्षा म्हळ्यार साहित्याची विदर्णा करपी एक रुक्ष, निश्ठूर वेव्हार नासून वाचप्याक साहित्याचो दिश्टावो घडोवपी एक संवेदनशील प्रक्रिया आसता... एखाद्र्या समिक्षकाची विचारीक खोलाय आनी जिविताविशिंचो दिश्टावो इतलो मोलादीक आनी विशाळ आसूं येता की ताच्या हातांत समिक्षा हें एक निखटें साधन न्हय, तर साहित्याच्या अख्ख्या प्रवाहाक, धारेक जावं प्रकाराक दिका दिवपी एक मंत्र, एक अस्त्र जाता. तेन्ना समिक्षेक साहित्याचेर अजरंवर प्रक्रिया करून ताचे सुप्त गुण उकतायिल्ल्याचें श्रेय मेळटा'' अशें त्यो म्हणटात.

समिक्षेच्या बुन्यादी तत्वां भायर समिक्षेची संकल्पना, अर्थ आनी विस्कटावणी, समिक्षेचे प्रकार, समिक्षेच्यो मुळाव्यो रिती हांचीय वळख ह्या पुस्तकांतल्यान घडटा. समिक्षेचें मुखेल कार्य साहित्याकडेन वाचकांचो सुमेळ सादपाचें आसता. समिक्षा वाचप्याक साहित्याचें पुरायेन आकलन घडोवन ताका साहित्याच्या केंद्रबिंदू मेरेन पावयता हीय गजाल लेखिकेन दाखोवन दिल्या.

पश्चिमी समिक्षेचें मुळावण जायत्या शेंकड्यां आदीं प्लेटो आनी ॲरिस्टोटल हांच्या समिक्षाविशिंच्या बरपान घालें अशें मानतात. साहित्य-समिक्षेच्या संदर्भांत प्लेटो आनी ॲरिस्टोटल हांणी जी एकामेकांक विरोधाभाशी भुमिका घेतल्या तिचे भोंवतणी आर्विल्ले पश्चिमी समिक्षेचें पुराय मोस्त्र विणिल्लें आसा. हातुंतल्यानूच नवे सिद्धांत, नव्यो संकल्पना आनी नव्या विचारांची मांडावळ पश्चिमी समिक्षेंत घडत गेली. तातुंतल्यानूच उपरांत नव्या विचारांचे प्रवाह कशे तयार जाले तें आमकां ह्या पुस्तकांतल्यान पळोवंक मेळटा.

आयची आमची भारतीय समिक्षा अस्तमते कडले समिक्षेचेर आदारून आसा. समिक्षेच्यो ज्यो नव्यो संकल्पना, नवे प्रकार आनी नवे संप्रदाय अस्तमते कडेन तयार जातात तेच कांय काळा उपरांत हांगा पावतात. देखून अस्तमते कडले समिक्षेची वळख कोंकणी अभ्यासकांक पुरायेन

जावपाची गरज आसा. ते नदरेन 'पश्चिमी समिक्षेकडेन इश्टागत' हें पुस्तक खऱ्यांनीच खूब उपेगाचें थारता.

व्हड साहित्यिकाच्या आनी समिक्षकांच्या बरपा वांगडा तांची जिणूय म्हत्वाची थारता. ते कसली जीण जियेले, खंयच्या काळार जियेले, त्या काळावयली राजकीय आनी सामाजीक परिस्थिती कशी आशिल्ली तेंय तितलेंच म्हत्वाचें थारता. देखून बरोवपी डॉ. किरण बुडकुले हांणी पश्चिमेकडले समिक्षेवांगडा थंयच्या मुखेल समिक्षकांचे जिणेचीय थोडेभितर वळख करून दिल्या. तातूंत प्लेटो, ॲरिस्टोटल, हॉरेस, क्विंटीलियन, लोंजीनस हांचो मुखेलपणान आस्पाव जाता.

खरो प्लेटो जाणा जावन घेतले जाल्यार आमकां ताच्या विचारांची मानसीक बसका कशी घडली तें पळोवचें पडटा. तेच वांगडा ताचे सारक्या तटस्थपणान विचारांची मांडावळ करपी चिकित्सक विचारवंता कडेन काव्याची इतली जाण आनी ती उक्तावपी संवेदनशीलताय कशी आयली हेंवूय समजप गरजेचें. देखून ताच्या विचारां वांगडा प्लेटोची जिणूय समजून घेवप गरजेचें.

आमी प्लेटोचो विचार करतात तेन्ना ॲरिस्टोटलाक कुशीक दवरूंक मेळना. हरशीं ॲरिस्टोटल हो प्लेटोचो विद्यार्थी. पूण अभ्यास करतना ताचो समकालीन म्हुण्णूच अभ्यास करचो पडटा. ॲरिस्टोटलान आपले समिक्षात्मक विचार प्लेटोचे साहित्या विशिंचे भुमिकेक परती जाप म्हूण मांडल्यात. ते भायर ॲरिस्टोटल आनी समिक्षा हांचो संबंध इतलो लागींचो आसा कीं साहित्याच्या इतिहासांत हीं दोनूय उतरां एकामेकां पसून वेगळावंक मेळनात. तशेंच, समिक्षेचो अभ्यास करता आसतना ॲरिस्टोटलाचें काव्यशास्त्र कशेंच कुशीक दवरूंक मेळना. 'पोएटिक्स' ह्या म्हत्वाच्या ग्रंथांत ॲरिस्टोटलान काव्याचें विश्लेषण केलां. पुराय साहित्याचें मुळावण काव्यांतूच आसा आनी काव्यूच साहित्याचो मूळ प्रकार हें आमकां ॲरिस्टोटलाच्या काव्यशास्त्रा वेल्यान दिसून येता. भारतीय विद्यापिठांनी खंयचेय भाशेंतले समिक्षेचो विचार करता आसतना ॲरिस्टोटलच्या काव्यशास्त्राचो मुखेलपणान आसपाव जाले बगर रावना.

समिक्षक आनी प्राध्यापिका आशिल्ल्यान लेखिकेक हें ज्युस्त खबर आसा. प्लेटो आनी ॲरिस्टोटलाचे जिणे वळखीक लागून कोंकणी अभ्यासकाक तांची जीण लागिंच्यान समजून घेवपाची संद ह्या पुस्तका वरवीं मेळटा.

प्लेटो आनी ॲरिस्टोटलच्या समिक्षाविचारा वांगडाच हॉरेस, क्विंटीलियन, लोंजीनस हांच्याय समिक्षाविचाराची वळख आमकां ह्या पुस्तकांतल्यान घडटा. तातूंत त्या त्या समिक्षकाची भास आनी शैलीविशिंचीं ताचीं मतां तशेंच काव्य आनी साहित्यावयलीं मतां पळोवंक मेळटात.

पश्चिमी समिक्षेची वाटचाल कशे तरेन जायत गेल्या, तशेंच, तिचीं म्हत्वाचीं पेणीं खंयचीं हाचो बारिकसाणेन केल्लो नियाळ आमकां ह्या पुस्तकांत पळोवंक मेळटा. तेच वांगडा उपरांतच्या काळांत साहित्यांत रिगिल्ले आनी समिक्षकांनी सोदून काडिल्ले तरेकवार वाद, तांचीय फोडणिशी मेळटा. तातूंत स्वच्छंदतावाद, अभिजातवाद, नव-अभिजात्तवाद, आधुनिकीवाद, वास्तववाद, अतिवास्तववाद, प्रतीकवाद, सैमवाद, वसाहतवाद, शून्यवाद, संरचनावाद, उत्तराधुनिकता, नवइतिहासवाद, नव-वसाहतवाद, अस्तुरीवाद ह्या वादांचो आस्पाव जाता. हे वाद पश्चिमेकडल्या साहित्यांत केन्ना आयले, कशे आयले हाचीय बारीकसाण आमकां ह्या पुस्तकांत पळोवंक मेळटा.

ह्या पुस्तकाचें खाशेलेंपण म्हळ्यार लेखिकेन स्वता तयार केली पारिभाशीक उतरावळ. पश्चिमी समिक्षेचो विचार कोंकणी भाशेंतल्यान गंभीरपणान अजून मेरेन जावंक नाशिल्लो. देखून अशी उतरावळ तयार करपाचो प्रसंग कोणाचेर येवंक नाशिल्लो. महाविद्यालयांनी आनी विद्यापिठांत कोंकणी समिक्षा शिकपी विद्यार्थ्यांक हे उतरावळिचो मुजरत उपेग जाले बगर रावचोना. ह्या पुस्तकाचें दुसरें खाशेलेपण म्हळ्यार, पुस्तक बरयता आसतना लेखिकेन कोंकणी साहित्याचो विद्या[illegible] दोळ्यांमुखार दवरुनूच हें पुस्तक बरयलां. कोंकणी साहित्याच्या विद्यार्थ्या[illegible] उपेगाक पडटल्यो अश्यो जायत्यो तळटिपो ह्या पुस्तकांत आसात. पश्चि[illegible] कडले समिक्षेची वळख करून दितना बरोवप्याची भास क्लिश्ट जावपा[illegible] शक्यताय आशिल्ली. पूण हांगा तशें जावंक ना. लेखिकेन हें पुस्तक जा[illegible] तितले सादे आनी सोंपे भाशेंत बरोवपाचो यत्न केला. देखीक, समि[illegible] कशी आसता हें सांगता आसतना त्यो बरयतात: ''समिक्षा ही भिंडांच[illegible] सोलांवरी आसता. जशें तांब्याचे आयदन घांसलें की लकलकूंक लाग[illegible] तेच वरी समिक्षाय साहित्यांतलें लिपिल्लें तेज उपलापें करता. पूण ज[illegible] आयदन कालांतरान परतें काळबल्टा तशेंच समिक्षेचेंय मोल काळावांग[illegible] फाटीं पडूंक शकता. पूण हाचो अर्थ असो न्हय की साहित्यीक कृतिचे[illegible] मोल खाला वतलें! परती घांसल्यार ती कृती परती लकलकतली...[illegible] अशे तरेचे सादे आनी सोंपे भाशेक लागून विद्यार्थ्यांवांगडा सामान्य मनशा[illegible] लेगीत ह्या पुस्तकाचो लाव घेवंक मेळटा.

कोंकणींतलें समिक्षा साहित्य अजून मुळावे अवस्थेंत आसा. आय[illegible] मेरेन कोंकणींत जें समिक्षा साहित्य तयार जालां तें साहित्य नियाळ[illegible] पुस्तक परिक्षणां आनी आस्वादनाच्या रुपान आसा.

कोंकणींतल्या समिक्षकांनी समिक्षेक हात घालचे पयलीं समिक्षेचें 'शास[illegible] शिकपाक जाय. हाका लागून समिक्षेचें प्रयोजन ताका कळूं येता. फाटल[illegible] काळांत जें कोंकणी समिक्षेच्या नांवाखाला बरप जालां तातूंत साहित्यिका[illegible] तुस्त तोखणाय आनी व्यक्तिगत टिका सोडल्यार चडशें कांयच पळोवं[illegible] मेळना. देखून हेर भासांतली समिक्षा कशी आसता तिचो अभ्यास जावपा[illegible] गरज आसा.

डॉ. किरण बुडकुले हांणी कोंकणी अभ्यासकाची 'पश्चिमी समिक्षेकडे[illegible] इश्टागत' करून दिवपाचो व्हड वावर केला हातूंत इल्लोय दुबाव ना.

**पश्चिमी समिक्षेकडेन इश्टागत**
**राजहंस वितरण, गोंय १९९८**
**पानां १८८/-**
**मोल: ३७/- रु.**

## पोंच

**निमज्जन (कथां झेलो)**
प्रो. के. आर. वसंत मणी
अंजली प्रकाशन, पालक्काड, केरळ १९९९
पानां: ६७; मोल: ५०/- रु.

**सुर्यवंशी (कवितां झेलो)**
निलबा अ. खांडेकार
सुरु प्रकाशन, मंडूर-गोंय १९९९
पानां: १२३; मोल: १००/- रु.

**ओथांबे (चिंतनां)**
रवीन्द्र केळेकार
माणिकपद्म प्रकाशन, बांदोडें-गोंय १९९९
पानां: १६०; मोल: १२०/- रु.

 REGD. No. GOA